# अशोकथा

(कथासंग्रह)

अशोक कामत



संजना पब्लिकेशनस्

सांगें - गोंय

ASHO KATHA
A COLLECTION OF SHORT STORIES
SHRI ASHOK KAMAT

**बरोवपी** : श्री अशोक कामत

प्रकाशन क्र. २



पयली उजवाडावणी : ०३ डिसेंबर, २०००

**उजवाडावपी :**
संजना पब्लिकेशनस्
श्री मंगेश लक्ष्मी निवास,
३९, दत्तवाडी, सांगें - गोंय ४०३ ७०४

**अक्षर जुळणी आनी छापपी :**
सौ. माया शेणवी कुंकळयेंकार
बामा ऑफसेट,
कुडचडें - गोंय ४०३ ७०६
फोन : ६५०६५८

मुखचित्र : श्री. संदिप सगुण नायक
विश्वंभर वाडी, सावर्डें
गोंय ४०३ ७०६

**मोल : ६० रुपया**

*जीण जगलोच म्हूण जायना*

*ती शिस्तीन जगूंक जाय*

*ही देख दिवपी भाऊ ( कमलाकांत कृ. कामत )*

*हाका माये - मोगान*

— अशोक

## अनुक्रम

## म्हजीं दोन उतरां .....

कथा - काणी हें साहित्याचें खूब प्राचीन रूप आसूंक जाय. घरांतलीं जाणटीं कथा-काणयो भुरग्यांक सांगतालीं आनी भुरगीं उत्सुकतायेन त्यो आयकतालीं. हातूंतल्यानूच कथाशिल्प तयार जाल्लें आसूंक जाय.

कथा म्हळ्यार कितें? जें सांगपाक जाय ताजी आपले कल्पनेन रचणूक करता ती कथा आनी अल्पांशांत सत्य आसा ती कथा अशीं प्राचीन विद्‌वानांचीं दोन मतां आसात.

कोंकणीतलें कथेचें दायज शणै गोंयबाबाल्या काळासावन चलत आयलां. पूण कथा खऱ्या अर्थान फुल्ली ती गोंयचे सुटके उपरांत. 'अशो कथा' झेल्यांत आयिल्ल्यो कथा ह्यो १९६७ ते १९८० ह्या काळांत बरयिल्ल्यो कथा. ह्या काळांत हातांच्या बोटांचेर मेजपा इतले कथाकार आशिल्ले पूण तांणी आपल्या कथाशिल्पान वाचकांचेर बरोच प्रभाव घाल्लो.

ह्या संग्रहांतल्यो कथा एकतर आत्मानुभुतींतल्यान पसवलेल्यो नाजाल्यार म्हज्या भोंवतणच्या लोकांच्या अणभवांतल्यान परमळिल्ल्यो आसात. कथेचे प्रस्थापित शैलींत ह्यो कथा बसतल्योच अशें ना. "जीव निर्शेलो; जीव आशेलो" हे कथेंत लेखकान सामकीच तिरायताची भुमिका घेतल्या जाल्यार "तूं हांसलें आनी ....." हे कथेन तर एके चिटयेचें रुप घेतलां. कथा सुटसुटीत आसची. वाचकाक कथा वाचतना बेजार येवचो न्हय. थोडे भितर सांगपाचें म्हणल्यार एक कथा वाचूंक घेतली जाल्यार ती एके बसकेंत वाचून जावंची. एक सोबीत सवणें धरतरेवेल्यान उडटा आनी हवेंत चार घिट्ट्यो घालून अचळय धरतरेर देंवता तें पळोवपाक जितलें सुखदिणें आसता तितलीच सोबीत, सुटसुटीत, खोसदिणी कथा आसची. ह्या म्हज्या मताचें भान हांवें दवरलां.

म्हजेर एक आरोप असो येता, हांव नाटककार जाल्ल्यान म्हजे कथेंत संवाद चडावत आसतात. पूण म्हजें स्वतःचें मत, संवादात्मक कथाच

चड प्रभावी आसतात. म्हज्या लिखाणाची खरी सुरवात कथेनूच जाल्ली. गरजेंतल्यान हांव एकांकीकार जालों. त्या काळार कोंकणीची चळवळ तळा-गाळांतल्यान लोकांमेरेन पावतली जाल्यार नाटक हेंच माध्यम प्रभावी थारतालें. ते खातीर हांवें नाटकामळार पावल दवरलें आनी कांय प्रमाणांत जैतिवंतय जालों. 'म्हजी भूंय म्हजो मोग', 'अशोकांकी', 'कोण कोणाचो न्हय' अशे तीन एकांकी संग्रह एकाफाटोफाट प्रकाशीत जाले आनी कथेकडेन म्हजें साप्प दुर्लक्ष जालें. उपरांत कांय व्यक्तिगत कारणांक लागून हांव सृजनशीलतेपसून पैसूच उरलों. पूण ........

'तुमच्या साठाव्या वाडदिसा तुमचें एक तरी पुस्तक प्रकाशीत जावंकूच जाय.' हो म्हजो इश्ट दिनेश मणेरकार हाचो आग्रो म्हज्यान मोडूंक जालो ना. ताजी म्हजेवेली भक्ती पळोवन मन धादोशी जालें आनी ताची लक्तूबायूय दिसली. म्हजेकडेन नवें अशें व्हडलेंशें लिखाण नाशिल्लें. देखून हाचेपयलीं नेमाळ्यांनी छापून आयिल्ल्यो कथा एकठांय करून दिनेशाचे सुवादीन केल्यो आनी म्हळें, "छापपाच्या लायकीच्यो आसात जाल्यार पळय." ताणें पुस्तकाची पुराय जापसालदारकी आपल्या आंगार घेतली. पूण दीस साप्पूच थोडे उरिल्ले. इतल्या थोड्या दिसांभितर छापून कशें जातलें? पूण बामा ऑफसेटाचे दामोदर (बाबू) कुंकळयेंकार हाणें दिनेशा इतलीच उमेद दाखयली आनी कशेंय करून ३ डिसेंबराक पुस्तक प्रकाशीत करपाचो संकल्प सोडलो. आज हें जें पुस्तक वाचकाच्या हातांत दिवपाचो सुयोग आयला ताचें सगळें श्रेय संजना पब्लिकेशनाचे दिनेश मणेरकार आनी बामा ऑफसेटाचे दामोदर कुंकळयेंकार हांकां वता. पुस्तकाच्या मुखपृष्ठावेलें चित्र संदीप सगूण नायक हाणें सामक्या थोड्या दिसांभितर तयार करून दिलें. पुस्तकाचें नांव 'अशो कथा' हें नांव बाबून सुचयलें आनी ताजे कल्पकतेची म्हाका तोखणाय दिसली. हांव हांका सगळ्यांक देव बरें करूं म्हणटां.

जांणी - जांणी हें पुस्तक उजवाडा हाडपाक पालव दिलो तांचे सगळ्यांचे उपकार मानलेबगर हांव कसो रावूं ?

कुडचडें, ३/१२/२०००    – अशोक कामत

# खंतींतलें सूख

व्हडलीशी जाल्यार म्हजी बारा वर्सांची पिराय आसत. त्या वेळावेले चडशे उगडास उरूंक नात. पूण आज म्हाका कांय लोक याद जातात. कांय वस्ती दोळ्यांमुखार येतात. तातूंतली एक वस्त म्हळ्यार बोगुणें. हें एक सुपुल्लें आयदन. म्हजी आवय हातूंत सदांच च्या करताली. हें बोगुणें रान्नीर दवल्लें रे दवल्लें हांव रानचेकुडींतच घुटमळटालों. म्हाका खबर आशिल्ली हें बोगुणें रान्नीर दवरप च्या करपाखातीरच. पांय - स कोपां च्या जाय सारखें आयदन हें. पूण आई आपलेखातीर एकच कोप च्या करताली आनी तातूंतलीच इल्लीशी म्हाका दिताली.

आईक च्या बगर जायनाशिल्लें आनी तिजें हें व्यसन म्हाका लागिल्लें. च्या म्हळ्यार म्हाका जीव कीं प्राण, पूण म्हाका आई केन्नाच कोप भरून च्या दिनाशिल्ली. ती एकूच कोप च्या कित्याक करता हें जाणा जावनूय हांव रडूंक बसतालों. कोपभर च्या जाय म्हणून हट्ट धरून बसतालों. आईन म्हाका समजावचें;

'च्याचो पालो ना रे ! इल्लो सो आशिल्लो. तातूंतलो एक कुलेर थारावन फाल्यांक दवरला. फायचे वेळे पुरतो.'

'म्हजेकडेन पयशे दी. हांव हाडटां पसऱ्यावेलो च्याचो पालो.'

'ना रे पुता, पयशे आशिल्ले जाल्यार हांव हो इल्लोसो च्या कित्याक

करतलीं आसलीं ? '

च्या खातीर म्हजो हट्ट, म्हजें रडप, आईचें म्हाका समजावप आनी मागीर मोन्यांनी आईन दिल्लो च्या पिवप हें आत्र्या-पयऱ्यान चलतालेंच. आनी म्हज्या तोंडाची शेनाय वाजता आसतनाच शेजारची गेगे थंय पावताली, ती आयली कीं हांव खूश! तिणें वासपूस करची, म्हज्या हाताक धरून घरा व्हरचें आनी कोप भरून च्या दिवची हें थारिल्लेंच आसलें. ही गेगे म्हळ्यार आमकां देवाभशेन; आमी भावंडां आळशांचे मठ, पूण गेगेगेर वचपाचें काम आसा म्हळ्यार आमचे भितर सर्त लागताली. कित्याक तर, तिगेर वतकर आमच्या हातार कितेंय तरी खावपाक पडटालें. धोणसाचो कुडको नाजाल्यार भाकरेची चौथाय आमच्या हातार पडले बगर आमी तिगेल्या हुमऱ्यावेले हालनाशिल्ले.

तर सांगपाचें म्हळ्यार, च्या चें बोगुणें. आज हांव येदो व्हडलो जालों, बायलेचो घोव जालों, भुरग्यां बापूय जालों तरी हें बोगुणें हांव विसरूंक नाशिल्लों. फाटलीं पंदरा वर्सां हांव ह्या बोगुण्याबद्दल येवजीत आसां. घरांतल्या जाणट्यांक विचारीत आसां.

'आई, त्या बोगुण्याची याद आसा गे तुका?'

'खंयचें रे?'

'तें गे, तूं च्या करताली तें!'

'कितल्याश्याच बोगुण्यांनी हांवें च्या केल्या.'

'तें गे पितूळचें! तूं एकूच कोप च्या करताली तें! आनी म्हाका कोपभर च्या जाय म्हूण हांव रडूंक बसतालों पळय!'

'तें रे? तें खंय पडलें कोण जाणां. आतां हीं चकचकीत आयदनां आयल्यांत, पोन्न्या आयदनांचें भान उरलां कोणाक?'

'पूण मगे आई, अशीं नवीं आयदनां कितलींय येवं, हांव त्या बोगुण्याक विसरचों ना. त्या येद्या व्हडल्या बोगुण्यांत एक कोप च्या

करपाची लेगीत तेन्ना आमची तांक नाशिल्ली. म्हजी भुरगेपणांतली व्हडांत व्हड इत्सा म्हळयार तें बोगुणें भरून च्या करपाची. पूण इत्सा केन्ना भागलीच ना. आनी आज जेन्ना ती इत्सा भागोवपाचे दीस आयल्यात तेन्ना बोगुणेंच ना.'

बोगुण्याच्यो अश्यो खबरी केन्ना - केन्नाय आमच्या घरांत हांव उस्तून काडटालोंच आनी प्रस्न पडटालो खंय गेलें तें बोगुणें?

ह्या प्रस्नाक जाप दिवपी एकलीच आई आनी ती तर चड उलोवपाक तयार ना. आमचे घरकान्नीक तें कितें पडलां? तिका बोगुणें आनी सगुणें दोनूय सारखीं. बोगुण्याचो विशय येतकर दर खेपेक तिणें म्हाका अशेतरेन पळोवचें जसो एक दोतोर मात्सो आल्तेरार जाल्ल्या मनशाकडेन पळयता. दोतोराच्या मनाची आजून थारावणी जायना कीं हाका घराच त्रातामेंत दिवचो काय मानिकोमांत धाडचो? घरकान्न अशेभशेन म्हाका पळयताली कीं दिसतालें, ही म्हाका आतां विचारतलीच.

'तुमकां पिशें बी लागूंना मू ?'

हो तिजो प्रस्न म्हाका तिच्या दोळयांत वाचूंक येतालो पूण तिज्या तोंडांतल्यान मात भायर पडनाशिल्लो.

इल्लें - इल्लें म्हाका त्या बोगुण्याचें पिशेंच लागलें. सगळें घर धुंदाळून पळयलें. माळो उस्तून पळयलो. कोठये कूड हेवटेंतली तेवटेन केली. पूण ना! त्या बोगुण्याचें दर्शन जालें ना.

एक दीस हांव आईच्या फाटल्यान लागलों. खोदून खोदून विचारलें.

'आरे, अशीं आयदनां घरांत येतात कितलीं आनी शेणटात कितलीं, सगळ्यांच्यो यादी घेवन बसूंक जाता?'

'म्हाका व्हडलीं रुप्याचीं आनी भांगराचीं आयदनां नाका गे आई, एकच खेप म्हाका तें बोगुणें पळोवपाक जाय.'

'आयलें हांगेलें बोगुणें,' चौकेवेल्यान आमगेलेचे सूर म्हज्या कानार

आपटले.

'फाल्यां आमी बाजारांत या आनी तेदेंच एक बोगुणें घेवंया.' आईन उपाय सुचयलो.

'ना गे आई, म्हाका तेंच बोगुणें पळोवपाक जाय. तें भरून च्या करपाक जाय. भुरगेपणांत हांव सदांच ताजेकडेन उलयतालों. 'तुका भरून एक दीस च्या करतलों!' आनी तें हांसतालें. सामकें नाटकांतल्या व्हीलनाभशेन, जणूं तें म्हाका सांगतालें, 'तुज्या नशिबांत ना रे बाबा तें, ह्या जल्मांत तरी ना.

आनी हांव इल्लों तेन्ना. ताका सांगतालों, 'तुका भरून च्या शिजयन तर शिजयन.'

'तुजी तितली कापस्ताद ना.' तें म्हणटालें.

आज तें आसूंक जाय आशिल्लें. ताका म्हजी कापस्ताद दाखयतलों आसलों. आईक कितें दिसलें कोण जाणां. तिणें म्हळें,

'पांय पडटां हांव, तुज्या देवाक. बोगुण्याचो नाद सोड.'

त्याच वांगडा भितरल्यान हिगेलो आवाज, 'ऑफिसांतल्या बॉसाकडेन बोगुणें बोगुणें करशात. तो तुमकां टॅक्सींत भरून घरा पावयतलो.'

'बरें बरें, टॅक्सीचें भाडें तूं दिवं नाका.'

'बोगुण्याकडल्यान घेयात.' फुडें म्हजो आवाज ना.

'तूं म्हजें आयकतलो.' आईन म्हळें.

'सांग तरी!'

'तुका तें बोगुणें मेळपाचें ना.'

'कित्याक?'

'आयक, तुका हट्ट धरपाची खूप संवय. आशाढांतली एकादस आशिल्ली. आमगेर कण्ण कर म्हूण तूं रडत आशिल्लो. तुगेल्या बाबाच्या

हातांत पयसो नाशिल्लो. परबेचो दीस आसूनूय कांयच गोडशें करपाची तांक नाशिल्ली. तातूंत तुगेलें हालाट्यो मारून रडप. तुगेलो बापूय उठलो आनी बोगुणें आनी एक हेर आयदन कागदाक बांदून भायर सरलो. कांय वेळान कण्णाचें सामान घेवन परतलो. ते एकादशी परबेची तुजी खोस आनी उमेद पळोवन आमकां आयदनां गेलीं म्हूण मात लेगीत दूख जालें ना.'

'पूण तें विकलें बाबान ?'

'आनी उपाय नाशिल्लो.' आईन म्हळें.

म्हज्या काळजांत कच्च जालें. हाजो अर्थ तें बोगुणें म्हाका केन्नाच पळोवंक मेळचें ना. म्हाका वायट दिसलें. म्हज्या मनाची खंत आतां खंतच उरतली.

'आई, तें कोणाक विकलें तें बी खबर आसा तुका?'

'ना पुता. असल्यो खबरी तुजो बापूय घरांत केन्नाच उलयनाशिल्लो. आयदनां विकलीं काय घाणाक दवरल्यांत हें लेगीत जाणून घेवपाचें बळगें नाशिल्लें म्हज्यांत. तुका हें कळळें जाल्यार तूं आकांत करतलो ही जाणवीक म्हाका आशिल्ली. रोखडोच तूं शिकपाक आकागेर गेलो आनी ती पाळी आयली ना.'

हांवें चिंतलें, त्या दिसा बाबा भायर सरलो आनी वरा भरयान परतो आयलो. ज्या अर्थी तो इतले बेगीन परतल्लो त्या अर्थी तीं आयदनां ताणें शेजरा ना जाल्यार लागींच खंय वाड्यार विकल्यां जातलीं. हांव वासपूस करतलों.

दुसऱ्या दिसाच्यान सगळ्या वाड्यार पिशाभशेन भोंवपाक लागलों; कोणाल्या बल्कांवार तर कोणाले भितोडे. कितले दीस हांव असो भोंवत रावलों हाजो हिशोब ना. जणएकल्याकडेन उलयतां खरो पूण म्हजी नदर मात खांची-कोनशाक. आनी खऱ्यानशीं सांगतां एक दीस हांव पिसोच जालों. सगळे वाड्यावेले लोक म्हाका दुबावान पळोवंक लागले. कोण म्हाका

पिसो म्हणूंक लागले तर कोण बोगुणें.

इतलेंय करून म्हजे यत्न फळाक आयले ना. म्हाका बोगुणें मेळळें ना. बोगुण्याविशींची ही खंत अशीच उरतली काय? बोगुणें भर च्या करूंक मेळचें ना काय? बोगुण्याची हार पळोवपाचें सूख म्हज्या नशीबांत ना काय?

ल्हवू-ल्हवू बोगुण्याक विसरपाचो यत्न हांव करूंक लागलों. बोगुणें पळेवपाची इत्सा तशीच उरली. पूण हांव म्हजें ध्यान दुसऱ्या कांय गजालींचेर व्हरून बोगुण्याचो उगडास सापूच विसरलों. तरीपूण मनाच्या खंयच्या तरी कोनशाक एक खंत आशिल्ली. बोगुण्याच्या आकाराचें कसलेंय आयदन पळयल्यार बोगुण्याच्या उगडासान मनाक वायट दिसतालें. पूण आतां उपाय नाशिल्लो.

बोगुण्याचें जैत जाल्लें. हांव हरिल्लों!

एक दीस हांव बल्कांवार बसून कसलें तरी पुस्तक वाचतालों. आनी इतल्यांत म्हज्या कानार आवाज आयलो,

'तांबे, पितूळ, पोरणें आयदोन!' हीं उतरां म्हगेल्या घरकान्नीच्या कानार गेल्यां मात, ती भायर आयली.

'आयकलां, माळ्यावेलीं पोन्नीं आयदनां मातशीं काडांत पळोवया. कावलाक दिवया.'

'आतां म्हाका फावना आं. फाल्यां पळोवया.'

'फाल्यां, फाल्यां करून तीं केन्नाच सकल देंवची नात.'

'आगो, तीं कुसतात गो?'

'तीं कुसनात, पूण वोगीच कित्याक तो कचकच माळ्यार? कावल दिवन एक नवें आयदन घेवचें.'

'नवीं तुका जाय तितलीं घे पूण म्हाका त्या माळ्यार चडोंव नाका.'

पूण आमगेली घरकान्न आयकता? आनी आयकल्यार ती बायल कसली? आवा-शिवा करून माळ्यार चडलों आनी सगळीं पोन्नीं आयदनां

सकल देवयलीं. तिणें तें सगळें कावल कावलकाराक दिलें आनी नवें आयदन घेवपाखातीर हातांत घेतलें. हांवें विचारलें;

'कितें रे? तुजेकडेन बोगुणें आसा?'

ताका बाबड्याक कांयच कळ्ळें ना. आमगेल्या बोगुण्यावरी स्टीलचें एक बोगुणें मेळलें जाल्यार घेवचें. एक बोगुणें दोळ्यामुखार आसलें, म्हणटकर आदल्या बोगुण्याचो उगडास मनांत उरतलो. तें बोगुणें मेळना म्हणपाची खंतच म्हाका आतां सूख दिवपाक लागिल्ली.

खंतींतय सूख आसा म्हणटात तें हेंच काय? एकाद्री कोंकणी ताका कळ्ळी ना जायत म्हुण हांवें ताका हिंदींत विचारलें,

'तेरे पास बोगुणें है क्या?' घरकान्न पदर तोंडार धरून फिस्स् करून हांसली. तो तर म्हजेकडेन पळयतच रावलो. हांवे म्हळें,

'अरे समझता नहीं? स्टील का बोगुणा!'

'क्या!'

हांवें हातांनी कुरू करून दाखयलें.

'ऐसा, ऐसा बोगुणा!'

तरीकय तो म्हाका पळयतच रावलो. पिश्याकडेन पळयता तसो. बायलेच्या हांश्याचो खतखतो तर उणो जायनाशिल्लो.

'झक मारात तुमी' हांवें म्हळें, आनी तागेल्या खोटल्यांतलीं सगळीं आयदनां पळोवंक लागलों. पूण हातूंत म्हाका बोगुण्याच्या आकाराचें एकूय आयदव दिसलें ना.

'घे, घे, तुका जाय तसलें आयदन.' हांव गुरगुरलों. सोप्यार वचून बसलों. आपलेभशेन म्हूण वाणपण केलें आनी दोन आयदनां तिणें घेतलीं. कावलकारान आमी दिल्लें कावल सगळें चेपलें आनी साकांत भरूंक लागलो. तागेलीं कर्तुपां हांव पळयत आशिल्लों, शुन्य नदरेन. कावल तागेल्या साकांत जायना जालें. ताणें पर्थून सगळें कावल भायर काडलें. साक रिकामो केलो,

दामून-चेपून भरपाखातीर. म्हजी नदर अचळय आयदनांचेर भोंवताली. आनी म्हजे शुन्य नदरेक कसलो तरी धक्को बसलो. तागेल्या कावलांत तें बोगुणें! 'आमचें बोगुणें'! ज्याचो ध्यास म्हाका लागिल्लो तें बोगुणें! ज्याचेर जैत मेळोवंक हांव सोदतालों तें बोगुणें! सटयंच करून झोपय मारली आनी हांवें तें बोगुणें काडलें.

'हें खंय मेळ्ळें तुका!' हांवें ताका विचारलें.

ताणें तें अशेंच कावलाक कोणागेर तरी घेतिल्लें. तें खंय घेतलें, कोणागेर घेतलें, तो सांगूंक नकळो आशिल्लो. म्हाका पूण कित्याक जाय आशिल्ल्यो त्यो राटावळी? हांवें तें मागलें. तो दिवपाक तयार नाशिल्लो. म्हजो हट्ट पळोवन तर तो चडूच अडोवन दाखोवंक लागलो. निमाणे, घासाघीस करून हांवे तें तीस रुपयांक घेतलें. पांच रुपयांक फावनाशिल्लें बोगुणें. हांव अडलां तें पळोवन तीस रुपयांक म्हज्या गळ्याक बांदलें ताणें. घरकान्नीन तर चणचणून, फडफडून, गडगडून, सगळें घर माथ्यार घेतलें. पूण हांवें तें बोगुणें सोडलें ना. उबी पिराय ज्याका सोदपाक गेली तें हातांत येतकच सोडटां हांव? ह्या बोगुण्याचेर जैत मेळोवपाचो वेळ आयला. बोगुणें भर च्या करून पिवपाचो वेळ आयला.

घरकान्नीक बल्कांवारच सोडली आनी तडक आई म्हच्यांत धांवलों.

'आई, ये आई, आज हें बोगुणें भरून च्या कर. कितलीय साखर लागूं, कितलोय च्याचो पालो लागूं हें भर्रून च्या जावंक जाय.'

बोगुणें पळोवन आईय धादोस जाली. घरकान्नीक बोगुण्याची कांयच लाग-भाग नाशिल्ली. पूण आई .... आईल्या घोवावेळावेलो उगडास तो! तिज्या दोळ्यांतल्यान दोन दुकां पोल्यार गळिल्लीं म्हाका दिसलीं. तिणें गॅस पेटयलो. हांव पाट घेवन रानचेकुडींत बसलों. आज तें बोगुणें भर्रून च्या पळोवपाची धादोसकाय म्हाका मेळटली.

आज बोगुण्याची हार.

आनी म्हजें जैत.

हांव गॅसावेल्या बोगुण्याक पळोवपाच्या विचारांत गुल्ल. एकतरेचो सन्तोस मनांत भरला. एके तरेची तंद्री लागल्या. आनी आईच्या आवाजान तंद्री भंगली .........

'आरे, आशु, बोगुणें गळटा.'

'कितें?' म्हजेर जणूं जोगूल पडलें.

'बोगुणें फुटलां !'

'बो-गु-णें फु-ट-लां? बो-गु-णें ग-ळ-टा ?

म्हजे नदरे मुखार काळोख !

*******

(कोंकणी - दिवाळी - १९८०)

# शेनवारची गाडी

शेनवार येता. सांजेचीं चार वरां जातात. गाडयेची पिल्लूक वाजता. गाडी स्टेशनार उबी रावता. तो माळयेच्या जनेलांतसून पळयता. उत्सुकतेन तो स्टेशनावेल्या गर्देंत कोणाक तरी सोदता. गाडी फुडें येता. तो निराशेन भितर येता.

आज दोन वर्सां जाल्लीं. दर शेनवारचो हो तागेलो क्रम जावन पडिल्लो. आनी तागेले हे वागणुकेचें शीलाच्या मुखार मोठें प्रस्नचिन्ह उबें राविल्लें. ताका हें कुवाडें कशेंच सुटनाशिल्लें. ताज्या लग्नाक दोन वर्सां जाल्लीं. तीं दोगांय सुखांत आशिल्लीं. नदर लागपासारखो तांचो संवसार चलतालो. दीस येताले आनी वताले. दर दिसा शीलाच्या जिवितांत नवो उत्साह येतालो. तांचो एकमेकांचेर इतलो मोग आशिल्लो कीं तीं एकमेकांपसून किदेंच लिपोवन दवरिनाशिल्लीं. पूण शीलाक शेनवार येता म्हळ्यार नाका जातालो. शेनवारची अनीलाची ती वागणूक पळोवन तें खूब भितालें. ताका केन्ना केन्नाय दुबाव येतालो. 'म्हज्या घोवाक पिशें बी लागूंक ना मू?' पूण हें तशांतलें न्हय हें ताका रोखडेंच कळून येतालें. कारण पिसो आसल्यार तो सदांच पिशेपणां करतलो आशिल्लो, फक्त शेनवारचीच ही अनीलाची वागणूक पळोवन शीलाक खूब दुःख जातालें. तें भितरल्या भितर घुस्मटटालें. पूण तातूंतय एक शेनवार सोडलो जाल्यार बाकीच्या दिसांनी ताज्या इतलें सुखी तेंच आशिल्लें! देखूनच तें ताजेर आनीक चड विचार करनाशिल्लें.

पूण मनशाचें मन तें ! दुबाव आनी भंय मनांत घोसोळ घालिना जाल्यार तें मन कसलें ? ताणें एक दोनदां भीत भीत अनीलाक प्रस्न करून पळयलो, पूण ताचो उपयोग जालो ना. एक दीस ताणें अनिलाक प्रस्न केलो; 'अनील, तूं दर शेनवाराचे गाडयेर कोणाची वाट पळयता?' 'केन्नाच न येवप्याची!' ताका जाप मेळ्ळी. ह्या उत्तरान शीलाचें मातूय समाधान जालेंना. आज ताणें हे गजालीचो थाव घेवपाचें थारायलें. ताणें अनीलाक विचारलें,

'म्हाका सांगपा सारकें ना ताजें नांव?'

'तुका सांगून उपयोग जावपाचो ना, शीला!'

पूण शीला ताका आज कशेंच सोडूंक तयार नाशिल्लें. तें हट्ट धरूनच बसलें. ताका णव म्हयने पूर्ण जायत आयिल्ल्यान दोतोरान ताका हातरुणार पडून राव म्हूण सांगिल्लें. आनी दोन दिसांनी, एकाद्री त्याच दिसा लेगीत तीं दोगांय आवय बापूय जावपाची शक्यताय आशिल्ली.

अशे दशेंत शीलाचो हट्ट, ताजे दुकांनी भरिल्ले दोळे पळोवन अनिलाक ताजी काकुळट दिसली. ताणें एक सुस्कारो सोडलो.

"शीला"

"अं!"

"राग आयलो?"

"म्हज्या रागाची कोणाक पर्वा आसा?"

"म्हजी काणी आयकून तुका दुःख जातलें."

"घोवाच्या दुःखांत अर्दो वांटो बायलेचो आसता."

"पूण तुका राग येतलो शीला !"

"तूं म्हाका अजून वळखूंक ना, अनील." आनी तें हुंदके दीत रडूंक लागलें.

'म्हजें शाऽणें तें शीला.'

कांय वेळ दोगांय गप्प. अनील शीलाच्या खाटीरूच बशिल्लो. तीन वरां जाल्लीं. अनीलाचो हात शीलाच्या हातांत आशिल्लो.

" शीला "

" अं "

"मनशाच्या जिवनांत कितल्यो घडामोडी जातात. कितले प्रसंग येतात! म्हजे जिणेंत अशे प्रसंग आयले आनी गेले. प्रसंग शेळे जाले. मनांत ते कांटे जावन तोपतात. पूण तांच्यो यादी मात फुलिल्ल्या कळ्यां वरी टवटवीत उरल्यात. त्यो यादी मनाक सूख दितात काय दुःख दितात हेंच म्हाका कळनाशें जालां.

अनील थांबलो. उलयतना ताज्या मनाक कितले त्रास भोगतात हाजी शीलाक जाणविकाय जाली. तो मनाची तयारी करतालो. ताणें सुरवात केली.

"शीला, तो मेजार आसा तो फोटो कोणाचो तो जाणा तूं ?"

" तुजे भयणीचो ! - सुमनाचो."

"ताज्या म्हऱ्यांत दुसरें आसा तें कोण?"

"ती सुमनाची मैत्रीण मालन."

"तेंच .... तेंच ह्या सगळ्या गजालींचें मूळ ! निर्दय, कठोर खंयचें! पूण ताजो तरी अन्याय कसलो ? ताणें थोडेंच सांगिल्लें म्हाका स्वतःचो होम करून घे म्हूण ..... सुमन शिकपाक हुबळी आसतालें. मेडीकलाचें ताजें तें तिसरें वर्स आशिल्लें. सुमन हुबळीचे मावशेगेर रावतालें. आनी तिज्याच शेजरा मालन रावतालें. ताजो बापूय गोंयचो पूण गोंयांत तांचां भाटबेसां आसतनाय तांचे रावप हुबळीच आशिल्लें. हुबळीच्या एका मोठ्या कारखान्याचो तो मुखेल भागिदार आशिल्लो. इतली गिरेस्तकाय आसून लेगीत मालनाक उच्च शिक्षण दिनासतना मेट्रिक जातकच कारखान्याच्या ऑफिसच्या कामांत ताका ताणें लक्ष घालूंक लायलें. मालनानूय बी तातूंतच

मन रमयिल्लें.

सुमनाची आनी मालनाची इश्टागत इतली वाडली कीं दोगांकूय एकमेकांबगर चैन पडना जाली. शेनवारा सुमनान ताजे आवयक सांगून ताका गोंयां हाडलें. चांदरा स्टेशनाचेर चार वरांचेर गाडी पावताली. जेवन-खावन हांव संवयेप्रमाण गाडयेची वाट पळयत जनेलार बसलों. सुमना वांगडा आनीक एक चली पळोवन म्हाका अजाप जालें! सुमनान ताजी म्हजेकडेन वळख करून दिली. तेंय म्हाका पळोवन हांसलें. तागेल्या पोल्यावेले खळयेन म्हाका पिशें लायलें. ताजे ते काळेच दोळे, लांबचे लांब केंस, फुलत्या गुलाबाच्या कळ्यावरी दिसपी ताजे ओंठ, दोनूय ओंठांक चड त्रास दिनासतना उलोवपाची ती ताजी रीत पळोवन कोणाकय पिशें लागलें ना जाल्यारच अजाप दिसपाचें! तो शेनवार आनी आयतार कसो गेलो तेंच म्हाका कळ्ळेंना. इतल्या श्रीमंतालें चली इतलें सादेपणान, मेकळेपणान आनी खेळीमेळीन वागत अशें हांवे धरलेंना. सुमनान ताका हाडिल्लें त्या दिसा सुमनाक हांवें विचारलें लेगीत!

“सुमन, तुंवें ताका आमंत्रण करून हाडलां खरें, पूण गिरेस्त मनशाची उठबस कशी दवरूंक जाय ती जाणा मगो तूं?”

“फाल्यां आमी वतलीं तेन्ना मत पुराय बदलतलें.” – सुमनान जाप दिली.

आनी खरेंच दुसऱ्या दिसा म्हजें म्हाकाच वायट दिसलें, कारण मालन तातूंतलें नाशिल्लें. ताकाय आमच्या घरांतलें वातावरण मानवल्लें. आयतारा सांजचें परत वतना आईन ताका आग्रो केलो, “अशेंच सुमनाबरोबर येत राव, तुका हांगा परकेपण ना, आपलेंच घर समज.”

कित्याक कोण जाणां, म्हाका मनांतल्या मनांत खातखुतल्यो जावंक लागल्यो. आनी हांव विचारांत गुल्ल जालों. “ना, ना, शक्य ना तें, तूं ताजेर विचार करूं नाका, फसतलो.” म्हजें मन म्हाका सांगतालें. इतल्यान

मालनान म्हजेसरीं येवन म्हळें,

"बरें येतां हांव अनील."

"बरें, वळख आसूंदी आमची."

"आपल्या मनशांची वळख दवरची लागना आनी दवर म्हणून सांगचीय लागना." ताणें म्हळें.

कितल्या सादूया भावार्थान तें उलोवन गेलें पूण हें एकूच वाक्य म्हज्या मनांत तुफान गाजोवन गेलें.

दुसऱ्या शेनवाराक आपूण येवचें ना म्हूण म्हाका सुमनालें पत्र आयलें. म्हाका खूब वायट दिसलें. हांव कितले आशेन ताजी वाट पळयतालों. ताजे वांगडा मालन येतलेंच हाजी म्हज्या मनाक खात्री दिसताली. आनी तें आयलेंय ना जाल्यार सुमनाकडल्यान तें आमचे विशीं चड करून म्हजे विशीं कितें कात उलयतालें हें तरी आयकूंक मेळटलें म्हूण हांव सामको आतूर जाल्लों. पूण मनशाच्या मनाक जाय तशेंच जाल्यार उत्सुकता, हुरहूर, चुटपूट हांका कितेंच म्हत्व उरचें नाशिल्लें. फुडें तीं दर शेनवाराक येवंक लागलीं. म्हजी ही दशा सुमनाचे नदरेंतल्यान सुटली ना. एक दीस ताणें म्हाका मालनाविशीं विचारलें आनी हांवेंय ताका सगळें स्पश्ट सांगलें. सुमन विचारांत पडलें.

"सुमन, वायट दिसलें ? तुका मानूंक ना तें? तुजी मैत्रीण मगो ती?" हांवें विचारलें.

"म्हजे आवडीचो प्रस्न ना अनील! पूण गिरेस्त मनशाचे भानगडींत पडपाचें धाडस तुवें करचें न्हय अशें म्हाका तरी दिसता." सुमनान आपलो दुबाव परगटायलो.

"पूण ताका मोठेपणां नात हें तुका खबर आसा."

"ताजें बरें आसा, पूण तागेल्या घरांतल्या मनशांचो विचार करूं नाका? म्हाका तरी दिसता कीं तुजें प्रेम सफल जावचें ना म्हूण. तुज्या

बऱ्याचें सांगतां, येन्नाच ताका विसरपाचो यत्न कर."

"म्हाका ताजी कल्पना आसा सुमन, प्रेमाची तुका जाणीव ना. पूण एक उपकार कर. हातूंतलें एक अक्षर लेगीत मालनाक कळूं दिवं नाका."

"तुज्या दुबळ्या मनाची म्हाका काकुळट दिसता अनील. इतलो भावनाप्रधान आसचें न्हय मनशान. थोडे दीस वतकच आपशींच विसरतलो तूं ह्यो खबरी." - सुमन.

एक वर्स गेलें. सुमनान खूब प्रयत्न केलो म्हजें मन वळोवपाचो, पूण ताजो उपयोग जालो ना. मागीर मागीर तें मालनाक हाडिना जालें. म्हाका वायट दिसचें आनी म्हजे हाल पळोवन ताकाय दुःख जावचें. एक दीस ताणें म्हाका सांगलें.

"अनील, मालनाक हातूंतलें कांयच खबर ना. निदान ताका कळ्ळयार तेंच एकाद्रो मार्ग काडीत हातूंतल्यान."

"नाका. सुमन, नाका. म्हाका कोणाचेरूच सक्ती करपाची ना. ताका कळोवपाची गरज ना. भक्त देवाक भक्तिभावान फुलां ओंपतात पूण आपणाची जाणीव देवाक आसा काय ना हें ते पळयनात."

सुमन सुटयेंत घरा आयलें. एका शेनवारा आमी खबरी करतालीं. इतल्यान गाडी आयली. तरी आसतना हांवें जनेलांतल्यान स्टेशनार नदर मारली. मालन ह्या वर्सा एकूय शेनवारा आयले बगर रावूं नाशिल्लें. गाडयेंतल्यान मालन देंवलें. तें म्हाका जनेलार पळोवन हांसलें. आज तें खूब उमेदींत दिसतालें. येतनाच ताणें बॅग उगडून सुमनाच्या तोंडांत दुदफेणो घालो. आनी घरभर ताणें दुदफेणे वांटले.

"आगो चोरा, आमकां नवीदाद सांगूंक आयलां?" सुमनान ताका विचारलें.

म्हाका कांयच कळना जालें. नवीदाद कसली आनी दुदफेणे कसले? हांव विचार करूंक लागलों.

"अनील, आमचें मालन आनी तांच्या कारखान्याचो इंजिनीयर श्री. विनोदकुमार देशपांडे हांचो फुडल्या आयतारा साखरपुडो थारला, तेन्ना मालन आमकां आमंत्रण दिवंक आयलां." - सुमनान सांगलें.

हांव सुमनाच्या तोंडाक पळोवपाकूच उरलों! ताका सगलें खबर आसून, ताणें म्हाका एक अक्षर लेगीत सांगलें ना तर! खूब वेळ हांव ओगीच रावलों हें पळोवन मालनाक अजाप जालें. ताणें विचारलें, "कसलो विचार करता, अनील, ओगी सो कित्याक तूं?" हांवें रोखडोच म्हाका सांवरून घेतलो.

"विचार गो? हँ ऽऽऽ येवजितालों, फाल्यां लग्न जातकच आमची याद मोठ्या मनशांक येतली काय ना तें !"

"तुमच्या सारख्या मनशांची वळख जाली हेंच म्हजें भाग्य. लग्न हें एक मोठें बंधन, जावं तें चल्याचें, जावं तें चलयेचें. ताका स्वातंत्र्य उरना. आपशींच तांचे भोंवतणी मर्यादेच्यो शिमो पडटात. हांव तुमकां कशेंच विसरपाचें ना. कशेंय करून आतां जशें येतां तशें हांव तुमगेर येत रावतलें. सुमनाबगर हांव दीस काडूं शकचेंना!"

म्हाका तांतले तातूंत आनंद जालो.

मालनाचें लग्न जालें. एक, दोन, तीन शेनवार गेले. आनी अशे कितलेशेच शेनवार गेले. एक वर्स गेलें. प्रत्येक शेनवारा दिसतालें आज मालन येतलेंच. शेनवारा फाटल्यान शेनवार गेले आनी एक दीस तुजें म्हजें लग्न जालें. म्हज्या जिविताचें व्हडें दुसरेच वाटेन व्हलोवप असो विचार केल्लो. तातूंत म्हाका थोडें यश मेळ्ळें. पूण शेनवारची भोळी आशा मात वचनाशिल्ली. मालन फोरेनाक वचून वर्स जालें. पूण म्हाका मात तें शेनवारचे गाडयेर येतलेंच शें दिसतालें."

अनीलान सुस्कारो सोडलो. शीलाचो हात हातांत घेवन ताणें म्हळें, "शीला, हें आयकून तुका खूब त्रास जाले जातले, राग आयलो जातलो. पूण आज ह्याच शेनवारा दिसा हांव तुका उतर दितां, आयच्यान हांव

मालनाची वाट पळोवचोंना आनी केन्नाच जनेलार बसचोंना.

शीला हांसलें. ताणें अनिलाच्या हाताचो उमो घेतलो आनी म्हळें,

"म्हज्या राजाचो राग म्हाका केन्नाच आयलोना आनी हाजे फुडेंय येवचोना."

तीं दोगांय पोट फुटसर हांसूंक लागलीं. पांच मिनटांपयलींचें गंभीर वातावरण साप्प बदललें. इतल्यान ......

घड्याळांत चार वाजतात. गाडी स्टेशनांत उबी रावता. तो माळयेच्या जनेलांत येता. ताजी नदर गर्दींत कोणाक तरी सोदता. शीला ताका आं ऽऽऽ करून पळयत रावता!

(परमळ १९६९)

# रगताची गवाय

वीस पंचवीस घरांचो तो एक अंत्रुजेंतलो सुपुल्लो गांव. सभोंवती दोंगोर आनी मदीं हो रसरशीत कुळागारांनी भरिल्लो गांव. निकतोच आशाढ सोंपलो आनी शिरवण लागलो. रानां-मळां पाचवींचार दिसपा लागलीं. व्हाळ उपाट भरून व्हांवंक लागले. निकत्योच खणणी आनी सांवळ घाल्ल्यो कुळागारांच्यो बांगल्यो उदक पीवन-पीवन धादोस जाल्ल्यो. रानां-वनांनी पोटभर हरवें तण खावन धादोस जाल्ले बैल मस्तावल्ले. आपली मस्ती जिरोवपाक ते शिंगांनी माती खणून आपले आंगाक माती सारोवन घेताले. कांय दिकावेले बैल गायांफाटल्यान धांवताले आनी गायो तर ताकाक येवन गाडगो लिपयल्ल्यावरी मुरगटून भोंवोर मारताल्यो.

अंताल्या पोरसांतल्यो गोसाळ्यो, तवशीणी, दुदनी तर घसघशीत फुलिल्ल्यो. अंताक दिसलें, बाळंत बायल जशी मनाक जाय तें अपत्य पळोवन बाळंतपणा उपरांत उपाट धादोसकायेन धरतरेचेर गात्रां गळीत जावन पडून रावता तशोच ह्यो वाली फुलून माटवाचेर विसव घेतात. पोरसामुखावेलें तळें उपाट भरून ओतताले आनी त्या तळ्याचो झरो आतां घो घो जावन फसफशीत व्हांवतालो. अशा ह्या पाचव्याचार सैमाच्या आंगणांत पाचवेंच शेत आतां पोटरा आयिल्लें आनी अशा ह्या पाचव्याच वातावरणाक आतांच पावसान घसघशीत न्हाण घाल्लें. ताजेर हडवी वतातिरीप पातळिल्ली. अंताक दिसलें आज धरतरी मातेक उपाट संतोस जाला आनी तिजेवांगडा

तो आपल्याकूय धादोसभरीत जाल्लो पळयतालो.

अंताचें लग्न जावन आज म्हयनो जावन गेल्लो. फाटलो म्हयनो तो संतुश्ट आसलो. लग्न थरत पसून काश्टी सोडून तो पटयांची पिजाम घालूंक लागलो. पूण ताका लग्नाउपरांत आपले बायले वांगडा, शाली वांगडा चार उतरां उलोवं लेगीत मेळनाशिल्लें. बायलेक घेवन पासयेक वचपाक मेळनाशिल्लें. कित्याक ? आजून ताजें फळशीपण जावंक नासलें. अंतालें घराणें पुर्विल्ल्या चाली रितींक मानपी घराणें. अंता जल्मी कुळांतलो तरणाटो. ह्या कुळाचीं पांच-स घरां त्या इल्लेशा गांवांत आशिल्लीं. आपल्या कुळाचो केदो अभिमान ताका! गांवांत पयलो मान जल्म्याक. घर बांदतलो जाल्यार जल्म्या हातान भूंय-पूजन जावंक जाय. देंवचाराक सूर-रोंट घालतलो जाल्यार जल्म्या हातान घालूंक जाय. देंवचाराक कोंबो मारतलो जाल्यार जल्म्याहातान, जल्म्याबगर गांवचें एक पान हालपाचें ना. जल्मी गांवच्या पयल्या विड्याचो गांवकार.

आयज ताज्या जिवितांतलो एक नवो अध्याय सुरू जातलो. ताजें लग्न थारायलां बाप्पान, आनी त्याच दिसा शिटकावणी दिल्या.

"पळय अंता, आमगेल्या घराण्यांत बायलांक तिरास कोणेंच दिवंक ना. दुसऱ्यालें भुरगें हाडटात तेजो मान राखोंक जायो. बायलेक हेरान कोणेंय वांकडे नदरेन पळयलें जाल्यार तेजें रगत पिल्याबगर सोडोंक जायना. आनी एक मतींत दवर, बायलेन वांकडे वाटेन वसोन तुजेबगर हेरांक दोळो मारलो जाल्यार कोंबयेची गोमटी मुड्डिता तशी चिरींक करून मुड्डची. घराची परंपरा मोडोंक फावना. घराची पुण्याय सोपोंक फावना. जाणटेले आमकां माफ करचेनात, शारांनी लोक शेण खाता म्हूण आमी खावचें न्हय.

अंता आतां भुरगो नासलो. घराण्याची लज, अब्रू म्हळयार कितें तें आतां ताका बेस बरें कळूंक लागिल्लें. तांचे जातींतले भुरगे आतां शिकूंक लागिल्ले. शिकून उजवाड कितें घालतात तें घालूं. पूण हे तरणाटे गांवचें दायज वगडायना जाल्यार पुरो अशें ताका दिसतालें. खासा तो जाणटो

नासलो. चोवीस पंचवीस वर्सांचो पूण ताका दिसतालें आपूण जाण्टेपणांत लग्न जालां. तागेलो बाब अठरा वर्सांचेर लग्न जाल्लो.

आज ताज्या जिवितांतलो एक नवो दीस. नवे उमेदीचो, खोशयेच्या मनशाच्या जिवितांतलें अप्रूप तो आज पळयतलो. आयची संद ताका चार वर्सां फाटींच मेळटली आसली. पूण ताका बाबाची भिरांत दिसली. काय घराण्याचें दायज राखपी जाणटेले ताज्या मानगुटेर बसले कोण जाणा? एक मात खरें, तो त्या संकश्टांतल्यान बरेभशेन भायर सरलो आनी तेखातीर ताणें आम्रेकार देंवचाराक सूर-रोंट लेगीत घालें.

चार वर्सां जालीं ते गजालीक. पूण ताका कालूच ती घडिल्लेवरी नदरे मुखार दिसता.

बुधवार ! आठवड्याचो बाजार ! फोंडेचो ! आज वेपारय थोडोच हाडिल्लो अंतान. फकत एक वजें. धायेक कवळ्यो खावचीं पानां, धा-बारा दोण्यां काट, सात-आठ तोरंगां, स अनसां, सात-आठ नीरपणस. दनपारच्या बारा मेरेन तो मेकळो जाल्लो. शेजराच कुशी वजें घेवन बशिल्लें. हें कुशी सदांच आपलें वजें अंताल्या वज्यालागीं लायतालें. ताणें म्हणलें,

'राव मरे अंता' हांवूय येतां. वांगडा या. आज जनें आनी यमुनें आयलें ना. म्हाका कोनरांत सोड आनी तूं मुखार चल.'

'आगो, तुजें वजें सोपोंक ना. अजून कितलो कळाव लागतलो हो म्हाल खपूंक?'

'तूं मातसो म्हज्या वज्यालागीं बस आनी पळय कसो जादू जाता तो.'

अंता कुशीलो माल खपोवंक बसलो. फकत अर्दवरा भितर सगळो माल काबार. अंतालें गिरायक सवकळीचें. वाणपण ना! घासाघीस ना! उबारलो हात दिले पयशे. अंताल्या म्हालाचो दुबावच ना हें तागेलीं गिरायकां जाणा आशिल्लीं.

कुशी आनी अंता दोगांय घरचे वाटेक लागलीं.

'अंता, तुवें भूती हाडली ना? कुशीन अंताक विचारलें.

' आज वेपार कमी हाडिल्लो न्हू गो? दीस तकलेर येवचे आदीं माल सोंपतलो आनी दनपार मेरेन घरा पावतलों म्हूण भूती हाडली ना.'

'हांयें हाडलां जेवण. देवूळमळावेले झरीर बसोन जेवुंया आनी सुसेग घरा या.'

'नाका गो, पावतले न्हू आमी घरा!'

'म्हजे वांगडा जेवच्याक लजेता तूं?'

'बरें बाये. जेवन जाल्यार जेवन या.'

उलयत उलयत तीं झरीर पावलीं. हात-पांय धुले आनी तीं जेवणाक बसलीं. आपल्या डब्यांतलें शीत कुशीन दोन चोळख्यांनीं वाडून घेतलें आनी ताचेर सुके बांगड्यांची कडी ओतयली. उकडें शीत आनी सुके बांगड्याची कडी. अंताले आवडीची. तो मिटक्यो मारीत जेवलो.

'कुशी, कडी कोणें केल्ली गो?'

'कोणें म्हळ्यार ? हांयें.'

'काय बोन गो?'

'बो ? कुशी हांसूक लागलें. 'ती सकाळीं उठटा तरी?'

'कडी बऽऽरी आंबट तीख जाल्या गो. घोस्ताक गेली.'

अंताक आतां लकणी येवपाक लागली. बानयान काडलें आनी पाचवेचार तणाचेर तो आडवो पडलो. दोनूय हात घुस्पावन उशाक घेतले आनी खिणाभितर तो घोरेवपाक लागलो.

कुशीची नदर ताज्या हड्ड्यार पडली. कितलें रुंद हड्डें हें. पाषाणाची फातर. कुशीची नदर अंताल्या केंसावेल्यान पायांमेरेन पासोयो मारताली. एक खेप, दोन खेप. खेपो मेजपाचें भान कोणाक आसा?

ताका शिर्र जालें ....

ताज्या शिरंतरांनी शिरशिरो भरलो! दोळ्यांत मस्ती चडली. खिणांत ते तांबडें गूंज जालें. आपले पोले जड जातात काय दिसलें ताका. तें ल्हवूच पोल्यांवेल्यान हात फिरोवपाक लागलें, आपल्याच.

जितलें हात फिरयता तितलें आंग शिरशिरता. फिरयतालें तें आपल्या पोल्यार पूण नदर मात अंताल्या पोल्यांर. ताका दिसतालें तें ताज्याच पोल्यांर हात फिरयता काय! पोले हुनहून लागले ताका. दोळ्यांतल्यान उजो सुटपाक लागलो. आनी थानां श्वासावांगडा वयर-सकल जातालीं. आनी ताका दिसलें .......

थंयच आपल्याक कातकुतल्यो जातात. कोण तरी तांचेर ल्हवूच हात फिरयता. अख्ख्या आंगांतलें बळ सोंपलें अशें दिसलें ताका. आनी हें सगळें बळ आपल्या हड्ड्यांत एकवटलां. धा हतयांचे बळगें थंय एकठांय जालां. सगळी मस्ती थंयच भरल्या. हे दोन बांगर बैल मस्तावल्यात. पिकेवेले बैल बुजतात तशे. तांची मस्ती जिरोवपाची शक्त कोणाच्या हातांत आसा? ताजी नदर अंताचेर गेली. तें आपले सुवातेवेल्यान उठलें.

पांय थरथरताले .....

हात कडकडटाले .....

तें अंताफुड्यांत गेलें. दोनूय हात अंताल्या दोनूय पोल्यांर ल्हवू ल्हवू फिरोंवक लागलें. कितलो ओगोत? ते हात अंताल्या हड्ड्यार आयले. थंय फिरपाक लागले. कितलो वेळ ताका खबर ना. जीव धादोशी जायना. फिरयता तितले आनी फिरयन दिसता. कुशीचीं बोटां अंताल्या हड्ड्यावेल्यान केसांनी फिरपाक लागलीं.

हें दादलेपण .... हो खरो दादलो. हाजे येंगेंत आसल्यार कसली भिरांत? म्हाज्या जिविताचो राखणो हेकाच करूंक जाय. हेका सोडपाक जायना.

अंताक जाग आयली. पूण तो दोळे धापून वोग्गी रावलो. ताणें अणभवलें, हड्ड्यार कोणालो तरी मोव मोव हात फिरता. ताणें जाणलें .... हो कुशीचो हात. ताणें दोळे उकते केले ना.

एक अणभव ... जाय जाय सो दिसपी.

एक स्वास .... हुनहुनीत ....

ह्या स्वासांत आपलो स्वास मेळोवचो सो दिसलो ताका. हें सूख .... हाचेपरस व्हडलें सूख आनी कितें आसतलें ? हो खीण, सूख घट्ट धरून रावचेंर्शे दिसलें ताका.

हातांत आयलां तें सूख वचूंक जायना. सुटूंक जायना.

ताणें ल्हवूच दोळे उकते केले. गालांतल्या गालांत मुमुरखो हांसत ताणें कुशीक पळयलें. कुशी तांबडें जाल्लें. उदकाविणें नुस्तें तळमळटा तशें तळमळटालें.

'अंता'

'हूं' अंता निखटो हांसलो.

'उलय मरे.'

अंताली जाप ना.

'अंता?'

'हूं' परत अंता मोनो.

'म्हाका किर्ते जाता!'

'अशें?' तेंच गालांतलें हांसप.

कुशीलीं बोटां मात अंताल्या हड्ड्यावेल्यान केसांवांगडा खेळत आशिल्लीं. थोड्यावेळान अंतान विचारलें.

'दोतोरागेर या?'

'कित्याक?'

‘तुका कितें जाता न्हू गो?’

‘वखद तुजे लागीं आसा.’

‘म्हजेलागीं ?’ कुशी जितले वळवळटालें तितलो अंताक खोशयेचो उमाळो येतालो. रावूं नजो जावन कुशीन म्हळें, ‘सामको असो कसो रे तूं?’

‘असो म्हणल्यार?’

‘अंता, अंता, म्हाका वेंगेंत घे रे. म्हाका कितें जाता.’

कुशी लाडांत येवन अंताल्या हड्ड्यार मुठी मारपाक लागलें. अंताकय दिसलें आतां कुशीक ओडचें आनी आपले कुशींत अशें घट्ट दामून धरचें कीं बराबर ताज्या आनी म्हज्या हाडांचो पिठो जावपाक जाय.

इतल्यांत ताका बाबान सांगिल्ली गजाल याद जाली.

‘अंता, आमच्या कुळाच्या खंयच्याय कुळाव्यान कुळाचें दायज मोडूंक ना. जातीभायर लगीन करूंक नाका.’

अंताक शेळो घाम सुटलो. फट् करून उठून तो चलूंक लागलो.

‘अंता, अंता,’ कुशी ताजेफाटल्यान रिकामीं वजीं घेवन धांवपाक लागलें. वाटेर कुशीक ताणें समजायलें. हें लग्न जमचेलें ना. परीपरीन समजायतकूच कुशीच्या दोळ्यांतल्यान भळभळीत दुकां व्हावंक लागलीं. ताजो तरी कसलो उपाय चलतलो?

चार वर्सां फाटली गजाल ताका आजून ताजी तट्टूटीत शी दिसताली. ताणें थारायलें, त्या दिसा जाल्ली इत्सा, उमेद आज तो कळंतरासयत भागयतलो. त्या दिसा ताका जाण्टेल्यांच्या आत्म्याची भिरांत दिशिल्ली. आज तो तांच्या आत्म्यांक गवाय दवरून खोस भोगतलो. त्या दिसा जाण्टेल्यांले स्राप मेळटले आसले. आज ताका आशिर्वाद मेळटले.

× × ×

जेवणावळ जाली. लोक आपआपल्या घरा परतले. फटीदाद, गांवचो सरपंच तो निमाणें रावलो. तोय वचपाची तयारी करपाक लागलो. ताणें अंतूक सांसपिलो. 'बरो करून संसार कर पोरा. कुळाचें नांव वयर काड. कुळाचें नांव राखप हाजेसारखें पुण्य ना. आज तुजें फळशीपण, तुजी जापसालकी वाडली. अडीअडचणीक म्हाका उलो मार. हांव आसांच. वयता हांव. फांतोडेर उठूंक जाय. फाल्यां तुमचो शिमग्याचो पयरो मरे? तूं उठूं नाका. हांव येतां फांतोडेर. हांव आनी तुजो बाबा शिपणें करतात. तुजो आज खोशये दीस. मजा मार, मजा. येतां हांव. हांवें म्हज्या दिनूकय अंदूं लग्न जा म्हणिल्लें. पूण दोतोरकी पुराय जालेबगर विचार लेगीत नाका म्हणटा तो. ताका जाय तेन्ना जावं. म्हजो जीव आसतना मात जावं.' पुटपुटत पुटपुटत ल्हवू-ल्हवू फटीदाद वचपाक गेलो.

अंतान चितलें, कितलो देवमनीस हो. सरपंच जालो तरीय आजून मानायपण करचेलें सोडूंक ना हाणें. व्हडपण मात लेगीत ना.

रात व्हड जाली आनी सगळे वचून आपआपल्या जाग्यार न्हिदले. अंता जिवितांतलें पयलेंवयलें नवल भोगूंक आनी खोस अणभवूंक कुडींत गेलो. रात सगळ्या गांवाक आपले वेंगेंत घेवन सांसपूंक लागली.

× × ×

आज अंताल्या कुळागारांत शिपणें शिपूंक वचूंक जाय म्हूण फटीदाद कोंब्या सादार उठलो. तोंड धुवन, बायलेन दिल्लें च्या चें कोप तोंडाक मात लायलां, दारार कोणेंतरी खटखट केलें.

'कोण?' फटीदादान भितरल्यान विचारलें.

'हांव अंता.'

'अंता? येद्या फांत्यापारार अंता आनी कित्याक आयला काय? म्हाका उठोवंक?'

'तूं आनी कित्याक आयला रे? न्हीद वचून सुसेगाद रोखडोच येतां

हांव.'

'फटीदाद, तूं भायर यो.' अंतालो आवाज आज वेगळोच आसलो. फटीदादान दार उकतें केलें आनी भायर आयलो.

अंताक पळोवन फटीदादान आंग काडलें. अंताक पळोवन ताजें तोंड धवें फटफटीत पडलें. अंताच्या हातांत कुराड आसा आनी ती रगतान भरल्या. ताजें तोंड, ताजे कपडे रगतान तांबडे गूंज जाल्यात. रगतान तांबडो जाल्लो अंता राक्षस कसो दिसतालो.

'अंता कसलें खेत्र करून आयला रे तूं?' रानदुकोर मेळ्ळो?' अंताली जाप ना.

रगतान तांबडेंच जाल्ल्या तोंडार धवे फुल्ल दोळ्यांचे दिवे भिरांकूळ दिसताले.

'रानदुकोर न्हय. दुकरीण मारली हांयें दुकरीण.'

'बरें जालें. खूब तेप जालो शागोती खाल्यार. तीं मातसो तळयेर वचून निवळ कर पळोवया सगळें आंग. रगतान भरला मरे सगळो तूं.'

'फटीदाद, हांयें म्हजे बायलेचो खून केला. म्हाका पुलिसेंत दियात.'

'कितें?'

'बायलेक मारली हांयें.'

'मारली? मारली?'

'हय.'

'जिवानीशीं मारली?'

'हय. ह्या कुराड्यान मारली.'

'कितें? कुराड्यान?'

'हय ह्या कुराड्यान. कशें धादोशी जालां पळय हें कुराडें रगत पियोवन.'

‘सांगता कितें तूं?’

‘खरें तेंच सांगतां हांव.’

‘आरे तुवें केलें कितें रे? राक्षस मरे तूं. देंवचार बी बसलो काय कितें तुजेर? दिनू, दिनू, उठ. बेगीन उठ चल. पळय तिका मातसो धग आसा जाल्यार. उठ रे बाबा. पळय रे कितेंय उपाय जाता जाल्यार.’

दिनू दोळे चोळीत भायर आयलो. दोतोरकेचें निमाणें वर्स ताजें. दोतोरकी करूं नजो पूण गांवांत कितेंय बारीक बारीक दुयेंसाक तो वखद दितालो. फटीदादान ताज्या सामानाची पेटी भायर काडली.

‘चल अंता.’

‘आतां उपेग ना.’

‘उपेग ना?’

‘ना. ती मेली.’

‘तुका कशें कळ्ळें ?’

‘धडापसून तकली वेगळी करतकच कोण जितो उरपाक शकता?’

‘कितें ऽ ऽ ऽ अंता ऽ ऽ ऽ’

‘हय फटीदाद. हांवे शालीची गोमटी कापली. ह्या कुराड्यान धडापसून वेगळी केली.’

‘पूण अशें कित्याक केलें रे तुवें देंवचारा?’

‘म्हाका रगताची गवाय जाय. पूण गावली ना. शाली बरें भुरगें न्हय. चेडी ती आवय ××× कलवंत ×× चें तें आवय ×××

‘म्हणजे कितें रे?’

‘म्हाका रगताची गवाय जाय आसली. आमच्या कुळांतल्या लग्न जाल्ल्या दर मनशाक रगताची गवाय मेळ्ळया. हें पातकी घरा आयलें आनी तें दायज मोडलें.’

# रगताची गवाय

वीस पंचवीस घरांचो तो एक अंत्रुजेंतलो सुपुल्लो गांव. सभोंवती दोंगोर आनी मदीं हो रसरशीत कुळागारांनी भरिल्लो गांव. निकतोच आशाढ सोंपलो आनी शिरवण लागलो. रानां-मळां पाचवींचार दिसपा लागलीं. व्हाळ उपाट भरून व्हांवंक लागले. निकत्योच खणणी आनी सांवळ घाल्ल्यो कुळागारांच्यो बांगल्यो उदक पीवन-पीवन धादोस जाल्ल्यो. रानां-वनांनी पोटभर हरवें तण खावन धादोस जाल्ले बैल मस्तावल्ले. आपली मस्ती जिरोवपाक ते शिंगांनी माती खणून आपले आंगाक माती सारोवन घेताले. कांय दिकावेले बैल गायांफाटल्यान धांवताले आनी गायो तर ताकाक येवन गाडगो लिपयल्ल्यावरी मुरगटून भोंवोर मारताल्यो.

अंताल्या पोरसांतल्यो गोसाळ्यो, तवशीणी, दुदनी तर घसघशीत फुलिल्ल्यो. अंताक दिसलें, बाळंत बायल जशी मनाक जाय तें अपत्य पळोवन बाळंतपणा उपरांत उपाट धादोसकायेन धरतरेचेर गात्रां गळीत जावन पडून रावता तशोच ह्यो वाली फुलून माटवाचेर विसव घेतात. पोरसामुखावेलें तळें उपाट भरून ओतताले आनी त्या तळ्याचो झरो आतां घो घो जावन फसफशीत व्हांवतालो. अशा ह्या पाचव्याचार सैमाच्या आंगणांत पाचवेंच शेत आतां पोटरा आयिल्लें आनी अशा ह्या पाचव्याच वातावरणाक आतांच पावसान घसघशीत न्हाण घाल्लें. ताजेर हडवी वतातिरीप पातळिल्ली. अंताक दिसलें आज धरतरी मातेक उपाट संतोस जाला आनी तिजेवांगडा

तो आपल्याकूय धादोसभरीत जाल्लो पळयतालो.

अंताचें लग्न जावन आज म्हयनो जावन गेल्लो. फाटलो म्हयनो तो संतुश्ट आसलो. लग्न थरत पसून काश्टी सोडून तो पट्यांची पिजाम घालूंक लागलो. पूण ताका लग्नाउपरांत आपले बायले वांगडा, शाली वांगडा चार उतरां उलोवं लेगीत मेळनाशिल्लें. बायलेक घेवन पासयेक वचपाक मेळनाशिल्लें. कित्याक ? आजून ताजें फळशीपण जावंक नासलें. अंतालें घराणें पुर्विल्ल्या चाली रितींक मानपी घराणें. अंता जल्मी कुळांतलो तरणाटो. ह्या कुळाचीं पांच-स घरां त्या इल्लेशा गांवांत आशिल्लीं. आपल्या कुळाचो केदो अभिमान ताका! गांवांत पयलो मान जल्म्याक. घर बांदतलो जाल्यार जल्म्या हातान भूंय-पूजन जावंक जाय. देंवचाराक सूर-रोंट घालतलो जाल्यार जल्म्या हातान घालूंक जाय. देंवचाराक कोंबो मारतलो जाल्यार जल्म्याहातान, जल्म्याबगर गांवचें एक पान हालपाचें ना. जल्मी गांवच्या पयल्या विड्याचो गांवकार.

आयज ताज्या जिवितांतलो एक नवो अध्याय सुरू जातलो. ताजें लग्न थारायलां बाप्पान, आनी त्याच दिसा शिटकावणी दिल्या.

"पळय अंता, आमगेल्या घराण्यांत बायलांक तिरास कोणेंच दिवंक ना. दुसऱ्यालें भुरगें हाडटात तेजो मान राखोंक जायो. बायलेक हेरान कोणेंय वांकडे नदरेन पळयलें जाल्यार तेजें रगत पिल्याबगर सोडोंक जायना. आनी एक मतींत दवर, बायलेन वांकडे वाटेन वसोन तुजेबगर हेरांक दोळो मारलो जाल्यार कोंबयेची गोमटी मुड्डिता तशी चिरींक करून मुड्डची. घराची परंपरा मोडोंक फावना. घराची पुण्याय सोपोंक फावना. जाणटेले आमकां माफ करचेनात, शारांनी लोक शेण खाता म्हूण आमी खावचें न्हय.

अंता आतां भुरगो नासलो. घराण्याची लज, अब्रू म्हळ्यार कितें तें आतां ताका बेस बरें कळूंक लागिल्लें. तांचे जातींतले भुरगे आतां शिकूंक लागिल्ले. शिकून उजवाड कितें घालतात तें घालूं. पूण हे तरणाटे गांवचें दायज वगडायना जाल्यार पुरो अशें ताका दिसतालें. खासा तो जाणटो

# जायू

घारूदाद आज निश्चेव करूनच धुवेगेर वचपाक गेल्लो. आपूण कितें-कितें उलयतलों तें तो मतींत चिंततालो. गाडी धांवताली. पूण गाडयेपरस ताजें मन अदीक धांवतालें. मदल्या स्टेशनांचेर गाडी थांबताली पूण ताजे विचार मात थांबनासले. च्याऽऽय गरऽऽम म्हणत येवपी च्याकार भुरग्यांचे ट्रेंत रिकामे ग्लास एकमेकांक आपटून आयिल्ल्या गोड आवाजावरी ताज्या मनाचे थालयेंत तरेकतरांचे विचार एकमेकांक आपटताले. तो तातूंतले कांय विचार जुळोवन ते मतींत थीर करतालो.

दर खेपेक तो जायुल्या मांयकडेन आपूण कितें उलयतलों तें थारावन वता. पूण ऐन वेळार ते विचार ताजो घात मारतात. जीब आर मारिल्लेवरी घट जाता. जायूले मांयलें उलोवप आयकतकर तर तागेली गत गारुड्याले पुंगे मुखार नाचपी सोरपावरी जाता. जायूली मांय! खरी कापस्तादीची बायल. सगळो गांव तिका मानता. कितल्यो जापसालदारक्यो ती बायल सांबाळटा? महिला मंडळाची अध्यक्षा भागरथबाय, सर्वोदय मंडळाची अध्यक्षा भागरथबाय, अबलोन्नती समाजाची चिटणीस भागरथबाय! अशीं एक आनी दोन न्ही कितल्याशाच मंडळांचेर ती आसन सोबयता. बाबडें जायू! घोव भायर पडल्यार दोन म्हयने जावुंनात अजून, पावलें तें रान्नीपोल्लांत. दुःख्खान आदींच सुकून बडी जाल्या. तातूंत आनी संवसाराचें वजें. जगभर भाशणां दिवन भूक लागतकर मांय येता भुसारूंक घरांत. एकवेळ देवा

माथ्यावेलें फूल चुकत पूण हिजीं भाशणां आनी मिटिंगो चुकच्योनात. बायलां वर्स सोंपलें. पूण हिगेलीं भाशणां सोंपपाची मात आस्त ना.

जायूक पूण कित्याक जाय? ताणें उठून कुळरा आयल्यार जायना? कोण आसा मायेचो मनीस त्या घरांत? घारूदाद विचार करीत व्हांवत गेलो. ताका चड तिडक मारिल्ली जायूची. आगो पापया, फुडार पळय तुजो. उबी पिराय तुज्यामुखार आसा. कितें तागलां-भोगलां तरी तुवें? लग्न जावन स म्हयने लेगीत जावूं नाशिल्ले. कपाळ धवें जालें. तेवीस वर्सांचे पिरायेचेर कपाळ धवें जालें. नशिबांत कितें-कितें भोगपाचें आसा कोण जाणा?

घारूदादान दोन खेपो मारल्यो, जायूक कुळरा घेवन येतलों म्हूण. पूण जायू मात निगरगट्ट. धड चार उतरां उलोवपाकच तयार ना. मांयचो बी भंय दिसता काय ताका? चिंततां चिंततां घारूदादाक जायूल्या हुंबऱ्यार केन्ना पावलो तें कळलेंच ना.

बल्कावांचेर जायूलो मांव बशिल्लो. हो जायूचो मांव, हाणें आपले बुध्दीन केन्नाच काम केलें ना. पोर्तुगेज सरकाराचो हो खंय मोठो एंप्रेगाद. आतां रेफॉर्मार. अशें म्हणटात हाज्या हातासकले सगळे मनीस हाका भियोवन दीस काडटाले. दिरेतोर जातकर तर हाणें कितल्याशाच एंप्रेगादांक निखळायल्यात खंय. पूण घराकडेन पावतकर मात हो सादो एंप्रेगाद आनी हाजी बायल दिरेतोर. हाज्या मताक ह्या घरांत व्हालोर ना.

'येयात, आज खूप तेंपान उगडास जालो आमचो? ' जायूल्या मांवान घारूदादाक बसूंक सांगलें.

'हिका सांगतां आं तुमी आयल्यात म्हूण.'

'हांव तुमकांच मेळूंक आयिल्लों.'

'अशें? तिका आपयतां तर.'

'तुमी आयकात पयलीं, मागीर तुमी तिका सांगात.'

'ती म्हऱ्यांत आशिल्ली बरी. कशें म्हणटा?'

तो भित्र गेलो. घारूदादान पळयलें जायू, एका कोनशाक उबें आसा. कितें तरी पिंतारता. जायू चित्रकार जातलें आशिल्लें. नामनेचें चित्रकार जावन उरतलें आशिल्लें. ताज्या प्राफेसरान सांगिल्लें चित्रकलेच्या कॉलेजांत घालात ताका, नामना मेळयतलें, पूण ——

हांवें कर्मकट्ट्यान ताजें लग्न केलें आनी पिड्ड्यार केलें ताजें जिवीत.

'जायू' - घारूदादान उलो मारलो.

जायू चित्र काडपांत गुल्ल जाल्लें. ताका घारूदादालो उलो आयकूंक आयलो ना. घारूदादान परत हटकिलें. आतां मात तें जाग आयिल्लेवरी हाल्लें. ताणें घारूदादाकडेन पळयलें, चड दिसांनी बापायक पळयतकर धुवेक जावं जाय तो आनंद मात ताज्या तोंडार दिसलो ना. बापायकय ताजें अजाप दिसलें ना. घोव भायर पडटकर ताजो सभाव विचित्र जाल्लो हें ताका खबर आसलें.

जायून घारूदादाकडेन पळयलें आनी निखटें हांसलें. आनी परथून आपल्ल्या कामाक लागलें. जायूक व्हरूंक आयलां म्हणपाचें कशें सांगतलो! घारूदाद चिंतूंक लागलो. मुख्य विशय सांगचे पयलीं तो हेवटेंतल्यो-तेवटेंतल्यो खबरी सांगूंक लागलो.

'या म्हळें तुजे खबरेक.'

जायू कांयच उलयलें ना.

'तुजे आईनच सांगलें गो म्हाका.'

जायूची जाप ना.

'ओगीच हुसको जाता आमकां.'

तरीय जायू चीप.

'तुज्या फुडाराचें चिंतून तुजे आवयक खाल्लें जेविल्लें लेगीत गोड लागना.'

जायूचें ध्यान त्या चित्राचेर आशिल्लें. आपणाली सगली कला ओतून आज तें चित्र काडटालें. त्या चित्रांत तें एकरूप जाल्लें. जायू म्हळ्यारच चित्र! चित्र म्हळ्यारच जायू! घारूदाद बेजारलो. तें कशेंच उलोंवंक तयार नासलें. ताणें आतां जायूच्या म्हऱ्यांत वचपाचें थारायलें. तो उठलो आनी म्हणलें — "कसलें चित्र काडटा गो? हांव उलयतां तें ..." अशें म्हणपाक जायूची मांय भायर आयली.

'चड वेळ बसचें पडलें तुमकां? मातसो वेळ जालो.'

'ना, ना, आतांच आयलां हांव.' अशें जरी घारूदादान म्हणलें तरी तिका भायर येवपाक कित्याक वेळ लागलो हाचो अदमास घारूदादाक लागलोना अशांतली खबर न्हय. तिका पळयतकर ती येवचे पयलीं हारश्यामुखार आपलें खुमणें रंगोवपाक बशिल्ली म्हणपाचें घारूदाद केन्नाच वळखल्लो. पूत मरून दोन म्हयने जावूं ना आनी आवयलें हें हळशिकावणें वागणें घारूदादाक बरें दिसलें ना. तो ओगीच रावलो. नाय जाल्यार शारांतले लोकांक भावना कमीच आसतात, अशें ताणें चिंतलें.

'घारूदाद, कशे आसात तुमी? लक्षीमबाय बी बरी आसा मू?'

'बरीं आसात सगळीं.' घारूदादान सांगलें. पूण आतां मुद्द्याचें कशें उलोंवं ? घारूदाद उतरां मतींत जमयतालो. कितें सांगूं? कशें उलोंवं? चिंतून आयिल्लो तें सगळें विसरलो. ताणें आंगांतलें सगळें बळगें एकठावन म्हणलें, "जायूक व्हरूंक आयलां हांव."

"तें जमचें ना. एक खेप सांगिल्लें तुमकां हांवें." भागरथबायन मातशा कडक आवाजांत म्हणलें. घारूदाद हें आयकून भितरले भितर फुगार जालो. ताणें मातशें तापोवणेच्या सुरांत म्हणलें, "हांगा दवरून ताजी वाट लावपाचें येवजिलां तुमी!"

"तुमी व्हरून पूण कितें करतले?"

"दुसरें लग्न."

“कितें ? शाबुद्द आसा मूं तुमकां ?”

“ना जाल्यार ताजें उबें जिवीत इबाडपाचें आसा तुमकां ?’

“हांगा रावून ताजें जिवींत पिड्यार जाता ?”

‘ताणें सूख पळयलां ? ताजो फुडार तरी चिंतात .’

‘ताजो फुडार काळखांत ना, घारूदाद ... उजवाडाचीं किरणां दिसूंक लागल्यांत ताका आतां - ’

‘समजलों ना हांव .’

‘आमच्यां वंशाचो दिवो ताणें पेटयला .’

‘कितें ?’

‘ ताका दीस गेल्यात .’

घारूदाद नेटान उठिल्लो तो थप्प करून बसलो . ताका दोळ्यांमुखार काळोख दिसूंक लागलो . घुंवळ येवन पडटा काय दिसलें ताका . ताणें उदक मागून घेतलें . बऱ्या वेळान ताणें कितें तरी थारायलें आनी म्हणलें ,

“अशें जांवक जायना आसलें .”

“ कितें ? तुमी आमचे वेय म्हूण सुटले . नाजाल्यार तोणक्यांनी बडोवन भायर घालतलें आसलें . एकलो एकसुरो चलो विठू म्हजो , तोय गेलो . पूण वतना आपल्या वंशाचो दिवो परजळयलो . तेंय तुमच्यांनी पळोंव नज जालें ? दोळे फुटले तुमचे ? भागरथबायले दोळे तांबडेगूंज पेटते इंगळे शे जाल्ले .

“ताची पिराय तरी लक्षांत घेयात . चोविसावें वर्स लागलां ताका . सगळें जिवीत तें कशें काडटलें ? ताजें परतें लग्न करूंकच जाय .”

‘पूण आतां कशें लग्न करतले तुमी ताजें ? एके गुरवार बायलेक आपली घरकान्न करून घेवपाक खंयचो मूर्ख तयार जातलो ?’

‘ताजेरय उपाय आसा . आमगेलो दोतोर सगळें व्यवस्थित करतलो .’

घारूदादान भीत भीत म्हणलें.

'घारूदाद, कोणामुखार उलयतात तुमी हें? तुमी जाणात, म्हज्या वंशाची वाल वाडूंक जाय, ती फुलूंक जाय, फळूंक जाय. मारून उडोवपाची ना म्हाका.'

'पूण भागरथबाय, तुमी समाजाच्यो मोठ्यो कार्यकर्त्यो. बायलांच्या हक्काखातीर झगडपी तुमी आनी आज तुमचेमुखार एक निराधार बायल येरें तुटिल्ल्या तारवावरी दर्यांत बुचकळ्यो खाता ती तुमकां दिसना? जायूक म्हज्या न्याय दियात भागरथबाय, जायूक म्हज्या न्याय दियात. भीक मागतां हांव तुमचेकडेन. म्हज्या घरांत ताणें दुःख केन्ना पळयलें ना. फुलावरी सांबाळ केल्लो हांवें ताजो.' घारूदादाच्या दोळ्यांतल्यान दुखांच्यो झरी व्हांवंक लागल्यो.

'घारूदाद, तुमचें मन जाणटां गा हांव. पूण तुमीच पळयात. म्हाका दुसरो पूत आसा? तुमी म्हणटात तशें हांवें मानलें जाल्यार म्हगेल्याच घराची वंशावळ हांवें कापून उडयल्लेवरी जावचें ना? हांगा म्हाका न्याय कोण दिता? कोणाचेरय तरी अन्याय हो जातलोच. हांव म्हज्या वंशाची हत्या करूं दिवची ना.

'हांव जायूक घेवन येतांच अशें हांवें जायूचे आवयक सांगिल्लें. ती सामकी हांतुळणाक लागल्या. तिका कितें सांगूं हांव? आनी भागरथबाय मातशें मनीसपणाचे नदरेन पळयात. ह्या-ह्या जायूची दशा पळयात. हाडांक काती लागल्यात ताज्या, कित्याक? तुमगेर जेवंक मेळना म्हूण? कसलें सुख ना तुमगेर? पूण .... पूण जायूक जें जाय तें तुमच्यांनी दिंवक नजो. ताका मनाची शांती जाय. फाटलें सगळें विसरून जर ताणें नवें जिवीत सुरू केलें जाल्यारच तें हाताक लागतलें, भागरथबाय हाताक लागतलें. नाजाल्यार, नाजाल्यार ....'

'पूण म्हज्या वंशाचो दिवो म्हज्या हाताक लागतलो जाल्यार तिणें त्याग करपाकच जाय.'

'भागरथबाय, तुमी सगलें तागलां-भोगलां. तुमी सुखाचे दीस पळयल्यात. आनी ... आनी म्हजें हें एकलें एकसुरें चली. संवसारांतलें ऐन तें सूख जें चलयेक जाय आसता तें, तें सूख तूं ताका दिंवक शकतली?'

'घारूदाद तुमकां कशें समजावचें तेंच म्हाका कळना.'

दोगांयच्याय तोंडाचें झूज चालूच आशिल्लें. कोणालें खरें ? कोणालें फट? भागरथबायलें पूण कितें चुकलां हातूंत? आपल्या वंशाची वाल तुटिल्ली एके बायलेच्यान पळोवं जाता? पूण घारूदाद तरी खंय चुकला? आपलें एकलें एकसुरें चली सुखांत आसचें अशें खंयच्या बापायक दिसना? हातूंतल्यान आतां मार्ग कोणें काडचो आनी कसो काडचो? पूण ऐन वेळार भागरथबायचो घोव धांवून आयलो. ताणें आपल्या तुळतुळीत बोडावयल्यान शेणयेचेर हात फिरयलो आनी गांठ मारीत फुडें आयलो आनी म्हणलें, 'हांव उलयल्यार उलयली म्हणटली, पूण म्हज्यान रावूं नजो जालें. हांव उलोवं.'

भागरथबायचे दोळे अदीकच तांबडे जाले. दिसतालें ही घोवाक दोळ्यांनीच गिळटा म्हूण, पूण घारूदादाक होच आदार ... बुडटल्याक काडयेचो तसो.

'बाप्पा, तुमी तरी समजायात तिका. तुमी तरी हातूंतल्यान मार्ग काडात.'

बाप्पाक खंयचो नेट आयिल्लो कोण जाणा, तो उलयलोच,

'इतलो वेळ तुमी उलयतात. जायूक तरी उलोवंक दियात. ताका पळयात कितें जाय तें?'

'हय भागरथबाय, आमी जायूकच विचारुंया आनी तें सांगता तें मानुंया.' घारूदादाक आपल्याक न्याय मेळटलोच म्हणपाची खात्री आशिल्ली. भागरथबायन घोवाचेर दोळे मोठे केले आनी फणफणूं लागली.

'हांवें जर जायूक आवयपरी माया दिल्या जायत जाल्यार तें पडमूर जावचें ना.' अशें म्हणत ती जायूक उलो करूंक लागली आनी चारूच धेंपानी

जायूसरीं पावली.

'जायू तूं सांग. तुका ह्या घरांत रावन ह्या घराच्या दिव्याची जोत पेटयत दवरूंक जाय काय ह्या घराक उजो लावन दुसऱ्या खंयच्याय घराची जोत पेटोवंक वचूंक जाय.'

इतले म्हणसर घारूदाद आनी बाप्पाय बी जायूसरीं पावले आनी ताणींय अशाच अर्थाचे प्रस्न विचारले. घारूदादान म्हणलें,

'सांग जायू सांग. तूं म्हजेवांगडा येतलें म्हूण.'

पूण जायूच्या तोंडातल्यान ब्र ना. तें चित्र चितारीत आशिल्लें. ताणें निमणीं दोन पिशोलां हेवटेन तेवटेन मारलीं. घारूदाद आनी भागरथबाय फणफणत आशिल्लीं पूण तितलेंच शांत जायू. जायूचीं मोनेपणां घारूदादाक आवडलीं ना. तो तापलो, 'जायू, तुका आयकूंक येना?'

जायून बापायडेन पळयलें. ल्हवू पिशोल सकल दवरलें. आनी बोर्डावेलें चित्र काडून घारूदादाच्या हातांत दिलें आनी तें भितर वचूंक लागलें. भागरथबाय, घारूदाद आनी बाप्पा हांणी तिगांयनीय चित्र पळयलें.

चित्र एका सुंदर, सोबीत, गुटगुटीत भुरग्याचें आशिल्लें. ताचे सकयल एक उतर बरयल्लें जें तिगांयनीय एका वांगडा, एका सुरांत वाचलें. 'आवय'.

(सोमार, १९७७, आकाशवाणीच्या बरेपणान)

*******

# कोण पुसतलो हीं दुकां ?

" Miss Rekha, what's wrong with you?" प्रो. सामंताचो हो प्रस्न आयकून रेखान आंग काडलें. खंयचेंय लेक्चर मागीर तें इकोनोमिक्स आसूं ना जाल्यार सायकोलोजी आसूं, रेखा क्लासांत फाल्त नाशिल्लें. एक हुशार चली म्हूण सगल्या क्लासांत ताजी तोखणाय जाताली. सगळ्या प्रोफेसरांचे तें आवडटें आशिल्लें. तांतले तातूंत प्रो. सामंत तर ताका चड मानताले. एकाद्रो पुजारी देवाच्या माथ्यार फूल दवरूंक विसरत पूण रेखाचो डिफिकल्टी घेवन प्रो. सामंतागेर वचपाचो नेम केन्नाच चुकलो ना. सामंत सरांकय इतली संवय जाल्ली कीं एकाद्रया दीस तें लेट जालें वा थंडी-भारकूण जावन आयलेंच ना जाल्यार तो ताजी आपलेपणान चौकशी करी. रेखान तर तांचेकडेन पळयतना 'सर' ह्या नात्यान केन्नाच पळयलेंना. एक मित्र आनी बरें मागतो ह्या भावार्थानच तें तांचे वांगडा वागतालें. इकोनोमिक्सच्या तांच्या गिन्यानाची सर तर कोणाकच येवची ना. देखूनच रेखा सदांच तांचे सरीं येवन आपले बुध्दीची भूक भागयतालें. इकोनोमिक्सांत रेखा सदांच पयलें येतालें आनी B. A. चे परिक्षेंत युनिव्हर्सिटींत पयलें येवचें म्हूण प्रा. सामंत मनापासून त्रास घेताले. तांचें सपन रेखा पुराय करतलें ही आस्त ते धरून आशिल्ले. आनी देखून तांच्या दोगांच्याय नांवान कॉलेजांतल्या कांय तोमसोळ भुरग्यांनी आवाय घाल्ली तरी तांणी ताजेकडेन लक्ष दिलेंना.

पूण गेल्ल्या पंदरा दिसांत रेखा तागेर येवपाचें बंद जाल्लें. कारण

तांका अजून कळ्ळेंना. इतलेंच न्ही तर तें तांचे नदरेक नदर दिवंकय भिता हें तांणी जाणलें. तांच्या मनांत आयलें, घडये तांचेविशीं चल्लेली कॉलेजांतली कुजबूज ताज्या कानार गेली जावंये. मुळांत ताजो स्वभाव भिडेस्त. हें आयकतकर ताका कितें दिसलें जावंये! हे खातीर तें घरा येवपाचें बंद जालें जायत. बरें आसा! पूण म्हजेवांगडा उलोवपाक ताका भीड कसली! आतां तर ताका ताजे वागणेंच विचित्र दिसूंक लागलें. गेल्ले पंदरा दीस ताजें क्लासांत लक्ष नासलें. तें लेक्चर आयकतालें, सरांच्या तोंडाक पळयत रावतालें, पूण ताजें लक्ष मात लेक्चरांचेर ना हें सामंत सरांनी ताडलें. रेखाची भकास नदर पळोवन ताच्या मनांत कसलेय तरी गंभीर विचार धुमशण कांडटात अशेंच सामंताक दिसलें. आनी रावूं नजो जावन तांणी प्रस्न केलो.

" Miss Rekha, what's wrong with you?"

रेखान कांयच जाप दिली ना. पूण ताणें पळयलें कीं सगळ्या भुरग्यांच्यो नदरो ताजेर एकठांय जाल्यात. सामंत सरांचो सभाव तर ताका खबर आशिल्लोच. ताणीं विचारलेल्या प्रस्नाची जाप तर तांका मेळूंकच जाय असो तांचो नेम. जाप दिल्याबगर आपूण सुटचेंना हें चिंतून ताणें सांगलें.

" not feeling well, sir."

सामंत सरांनी लेक्चर फुडें सुरू केलें पूण वर्गांतल्या भुरग्यांनी ताडलें कीं आज सरांचो 'मूड' पेड्ड्यार जाला आनी आयच्या लेक्चरांत कांयच राम ना! आनी रोखडेंच सामंत सरांनी आपलें लेक्चर कशेयभशेन आळाबंदा हाडलें. आनी ते धा मिनटां पयलींच भायर सरले.

रेखाक खूब वायट दिसलें. कारण वेळ सोंपच्या पयलींच भायर सरपाची सामंत सरांची ही पयलीच खेप आशिल्ली. ताका कारण आपलेवरी तांचे आवडटें 'स्टुडंट' जालें म्हूण ताका चडच दुःख जालें. ताका रडूंक आयलें. बाकीच्या भुरग्यांहुजीर नाटक नाका म्हूण तेंय रोखडेंच भायर

सरलें. भायर सरतकच ताका फाटल्यान भुरग्यांलो सात मजली हांसो आयकूंक आयलो.

आड पडून एक वर जालें तरी आज प्रो. सामंताक न्हीद येनाशिल्ली. हरशीं तांकां जेवन जातर एक अर्दवर न्हीद काडलेबगर बरें दिसनाशिल्लें. पूण आज सकाळीं कॉलेजांत घडिल्ले गजाली भोंवतणीच तांचे विचार घुंवताले. ज्या रेखाक ते जीव तोडून शिकयताले त्या रेखांतलो बदल तांकां स्पष्ट दिसतालो. आनी जें रेखा तांकां कसलीय खबर मागीर ती घरगुती जावं ना जाल्यार कॉलेजांतली जावं, सांगतालें तेंच आज तांचे मुखार एक प्रस्नचिन्ह जावन राविल्लें.

रेखा ! कितलें गुणी भुरगें! ताजे गूण! आजकालच्या चलयांनी घे सारखे ताजे गूण! आवय एकटी! घरची सगळी जापसालदारकी रेखाचेर. अशें आसतना ताणें शिक्षण सोडलेंना आनी दर वर्सा स्कॉलरशीप घेतलेबगर रावलेंना. कोणाच्या वाटेक केन्ना गेलेंना. आपले भितर आपूण, आपल्यो सुख-दुःखाच्यो खबरी, आपसुकी खबरी जर ताणें कोणाक सांगल्या जाल्यार त्यो - सामंतसरांक! कसलीय खबर तांकां सांगलेबगर ताज्या मनाक बरें दिसनाशिल्लें. तेंच रेखा गेल्ल्या पंदरा दिसांत बदलून गेल्लें. ह्याच विचारांत आज सामंत सर बेजार जावन गेल्ले. तांच्या हातांत एक दिसाळें आशिल्लें पूण तांचें चित्त वाचपाचेर नाशिल्लें.

इतल्यान खट्ट असो आवाज जालो. तांणी तकली वयर करून पळयलें. म्हऱ्यांत रेखा उबें आशिल्लें. तांकां अजाप जालें आनी अजापापरस आनंदच तांच्या तोंडार चड दिसतालो.

‘केन्ना आयलें तूं रेखा?’

‘धा मिनटां जालीं हांव हांगा उबें आसां!’

‘धा मिनटां?’

‘मागीर? कसले विचारांत दंग जाल्ले इतले?’

रेखान हांसून विचारलें. पूण सामंत सराक हो हांसो आनी ताजो पयलींचो हांसो हातूंत कितलेंशेंच अंतर दिसलें.

‘सर!’

‘बस मगो! उबें कित्याक?’

‘सर!’

‘कितें गो?’

‘म्हाका उलोवंक जाय तुमचे वांगडा!’

‘उलय मगो!’

‘हांगा नाका ! खंयय भायर या!’

‘भायर रस्त्यार उलोवचे परस हांगा घरांत बरें!’

‘मर्दीच आका येत जाल्यार?’

‘आका ना घरांत. देवळांत गेलां!’ ताणें सांगलें.

उपरांत दोन खीण दोगांय चूप!

‘सर’

‘अं!’

‘म्हज्या हातान एक चूक जाली!’

‘चूक कसली ती?’

‘रागार जांवचेना मूं सर?’

‘म्हजो सभाव तुका खबर आसा, म्हाका राग केन्ना आयला? आनी तातूंत तुजो राग केन्नाच आयला म्हाका?’

‘म्हजी चूक भयांकृत आसा सर!’

‘कसली गो ती?’

‘सर ......

‘आगो, अशे आडे-ओडे कित्याक घेता? ह्या सामंत सराक आजमेरेन कितेंच लिपयलां तुवें ? कसलीच गजाल म्हाका सांगलेबगर करूंक ना तुवें!’

‘पूण एक गजाल हांवें तुमकां लिपयल्ली आनी हांव आज ताजी ख्यास्त भोगतां!’

‘पूण जें कितें केलें तें तरी सांग! मनशाच्या हातान चूक ही जाताच! ती निस्तारप मनशाच्या हातांतच आसता. म्हज्यान जाल्यार हांव तुका फाव तो आधार दिवं शकतां!’

‘कशें सांगचें तेंच कळना सर.’ रेखाचो आवाज घोगरो जायत वतालो.

‘कितें जालां तें सगळें सांग पळोवया. हांव आसतना तूं कित्याक भिता?’

‘देखून हांव आज तुमचेसरीं आयलां! सर, राग येवचोना मूं तुमकां?’

‘आतां हो पिशेपणाचो प्रस्न सोड पळोवया! आनी कितें घडलां तें सगळें सांग!’

‘सर .....’

‘हूं’

‘‘सर, म्हाका दीस गेल्यात!’

‘आं ऽ ऽ ऽ ?’

सामंत सर ! तांणी ह्या उतरांची अपेक्षा करूंक नाशिल्ली. हीं उतरां आयकून ते जागच्या जाग्यार थंड जाले. फातरावरी थंयच्या थंय घट्ट जाले. रेखाविशीं हींच उतरां तिसऱ्यान कोणेंय सांगिल्लीं जाल्यार ते ताजें तोंड जोत्या व्हाणांनी फोडले बगर रावचे नासले. पूण हांगा खुद्द रेखाच उलयतालें. तरी पूण ताका एक दुबाव मारलो. रेखा आपल्यो मस्कऱ्यो बी करिना मूं? तांणी म्हळें - ‘इतलीं भयंकर फकाणां करचीं न्हय मनशान दुसऱ्याचीं!’

‘सर! हीं फकाणां न्हय! सामकी खरी गजाल ही. आईचो सोपूत घेवन सांगूं?’

‘तूं इतल्यार पावतलें अशें धरूं नाशिल्लें हांवें रेखा!’

‘सर म्हाका भूल पडली. जादू केल्लेवरी वावुरतालें हांव तेन्ना! म्हजे इश्टिणीन म्हाका शिटकावणी लेगीत दिल्ली पूण .... ’

आनी तें हुंडक्या हुंडक्यांनी रडूं लागलें.

‘तेन्ना हांव मोगाच्या भारार आशिल्लें सर! पिशें जाल्लें पिशें! म्हाका कांयच दिसनाशिल्लें! आनी आनी आज ..... ’

‘आनी कितें रेखा ?’

‘‘हांव फटवलें सर, सामकें फटवलें!’

‘सांगता कितें तूं रेखा!’

‘ताणें म्हाका नकार दिलो!’

सामंत सरांनी एक व्हडलो सुस्कारो सोडलो. रेखावेल्या तांच्या विश्वासाक आज वेर गेल्ली. आजकाल कोणाचेर विश्वास दवरचो हेंच तांकां सुचनाशें जालें! सभ्य दिसपी, भिडेस्त दिसपी चलयोच जर अशें करपाक लागल्यो तर ह्या संवसारांत सभ्य म्हणचें कोणाक? तांचे तकलेंत विचारांचें वादळ सुरू जालें. घामाघूम जाल्ले दशेंतच तांणी मेजार तकली तेंकयली.

रेखान तांचेकडेन पळयलें. ताका दिसलें आपलेखातीर कितलें दुःख जालें जावये तांकां! आपल्याचेर सरांची इतली माया आसतना कितें केलें हें आपणें?

‘सर! ’ ताणें घोगरे आवाजांत उलो मारलो पूण जाप आयली ना.

‘सर’ तांणी दोळे उगडले.

‘इतल्यार पावसर म्हाका सांगचेंशें दिसलेंना तुका? तुजेबद्दल कितें

कितें येवजिल्लें गो हांवें!'

'म्हाका सगळें खबर आसा! पूण विचार करपाक वेळच मेळ्ळो ना. जें जालें तें इतलें बेगीन जालें कीं हांव म्हजे म्हाकाच विसरून गेलें. सर; .... आतां म्हाका तुमचोच आधार. आईक कळत जाल्यार ती जीव सोडटली.'

सामंत सर विचारांत पडले. थोड्या वेळान तांणी म्हळें.

'तो कोण तो सांग म्हाका! खटपट करून पळयतां.'

'ताजो कांयच उपेग जावचो ना सर! ताजे आवय-बापायक 'इन्टर कास्ट मेरेज' चलपाचें ना !'

'म्हणजे तो ... '

'तो आमच्या जातीचो न्ही.'

'रेखा ... ?'

'जाल्ले खबरीक उपाय ना सर. फुडलो विचार करूंक जाय सर!'

'हांवें कितें करचें शें दिसता तुका?'

'एक बरोसो वळखीचो दोतोर पळोवन .... !'

'रेखा? तूं कितें उलयता हें तुजें तुका तरी कळटा मगो?'

'हय सर! म्हाका तरी दुसरो मार्ग दिसना! हे दशेंत लोक शेण घालतले म्हज्या तोंडात.'

'असलें पाप करपाक हांव तरी वांटो घेवपाक शकना!'

रेखा रडूंक लागलें. बरोच वेळ असो गेलो. बरोच वेळ रडून थाऱ्यार येतकर ताणें म्हळें – 'सर, हांव जर अशेंच उरलें जाल्यार म्हजेलागीं लग्न कोण जातलो आनी लग्नाबगर आवयपण येवप म्हळ्यार ..... '

'रेखा .... ! आतां तुका सगळें येवजता! नाचरेपणां करतना तुवें कांयच चिंतलें ना. हांव तुज्या जिवाक जीव दितालों. तुज्या कपलाक आठ्यो

पडल्यार म्हजो जीव खासावीस जातालो! आज तूं म्हजेलागीं आयलां! तेन्ना तुका म्हजी याद आयली ना! तुज्या मनाक कांयच दिसलेंना त्यावेळार! म्हाका कशें दिसत, हांव कितें म्हणत? ... निदान म्हज्या मनाचो तरी विचार करचो आशिल्लो! तुजेविशीं म्हज्या मनांत कितें आशिल्लें हाजो तरी विचार करचो आशिल्लो.'

'सर .... ! खरेंच तुमी?'

'हां .... हां! दुबाव नासतना!'

'सर ....!'

ताणें अजापान तकली वयर काडली. ताज्या दोळ्यांतल्यान पावळ्यो व्हांवूंक लागल्यो.

'सर, हांव तुमकां तोंड दाखोवपाचे लायकीचें उरूंना. हाजे फुडें तुमकां हांव त्रास दिवचेंना, आनी तोंडय दाखवचेंना. म्हाका विसरात तुमी! हें फुटक्या नशिबाचें चली आपल्या जिवितांत आयलेंच ना अशें समजात. येतां हांव.'

'रेखा, कसलोय अविचार करूं नाका! तातूंतय मार्ग मेळटलो!'

खूब वेळ तांणी ताका समजायलें आनी तांणी ताका दुसऱ्या दीसा आपूण येतां आनी मागीर कितें करपाचें तें थारावया म्हूण सांगलें. रेखाक कितें दिसलें कोण जाणा पूण तोंडार कांयच दाखयनासतना तें घरा गेलें.

सगळी रात विचार करून सामंत सरांक न्हीद आयली ना आनी ते मनांत कसलोच थाराव घेवपाक शकले ना. ते थाराव पूण कसलो घेतले आशिल्ले? तांचे मुखार दोनच उपाय आशिल्ले. एक म्हळ्यार रेखाची वळख तोडून दिवप, नाजाल्यार ताजे लागीं लग्न जावप. आनी हो विचार करपाक तांकां दोन दीस लागले. तांणी थारायलें रेखाची लज धांपतलो जाल्यार ताजे लागीं लग्न जावप होच एक उपाय. रेखाय तांका आवडटालेंच. फकत ताज्या

हातान एक चूक जाल्ली आनी ती चूक माफकरपा सारखें मोटें मन तांचे लागीं आशिल्लेंच आनी एका नवे उमेदीन ते रेखागेर गेले. पूण हाय! रेखाच्या घराक मोठें कुलूप आशिल्लें. तांणी शेजाऱ्यालागीं वासपूस केली तरी तांका कांयच कळ्ळेंना.

पंदरा दीस गेले, म्हयनो गेलो तरी रेखा घरा आयलें ना. ताका दुःख जालें. दिसान दीस रेखाचे विचार तांकां बेजार करताले. दीस नेटान वताले आनी त्या वांगडा रेखाचे विचारूय कमी जायत आशिल्ले आनी दोन वर्सांनी तांगेलो पयलींचो व्यवहार नेमान सुरू जालो.

लेक्चर चालू आशिल्लें. सामंत सर वेळार आइल्ले. आतां ते प्रो. सामंताचे डॉ. सामंत जाल्ले. दोन वर्सां जिवाचीं काडां करून तांणी Ph. D. केल्ली. इतल्यान तांकां आपोवणो आयलो. ऑफिसांत तेलेग्राम तांची वाट पळयतालो. तांकां अजाप जालें. वाचतकच तांका चडूच अजाप आनी तितलोच आनंदूय जाल्लो.

'सोमारा दीस साखरपुडो थारायला. बेगीन भायर सर!' तांच्या भावान तांकां कळयिल्लें. गेल्ल्या मे म्हयन्यांत दोगूय मुंबयंत एकठांय जाल्ले. प्रो. सामंतांनी धाकल्या भावाक खूब सांगून पळयलें पूण ताचें एकच म्हणप कीं दादा लग्न जालेबगर आपूण जावचोंना. पूण दादान आपली गाडी दुसरे लायनीर व्हरून ताका ग्रीन सिग्नल केन्नाच दिल्लो आनी दोनच म्हयन्यांनी धाकल्या भावान संवसारांत पडपाचें येवजिलें. हें पळोवन तांकां बरें दिसलें. पूण साखरपुड्याक पावतलो जाल्यार फाल्यांच भायर सरूंक जाय आशिल्लें. जाल्यारच सोमारा दनपार मेरेन ते मुंबय पावतले आशिल्ले. तांणी रोखडेंच वचपाचें थारायलें आनी ते तयारेक लागले.

सोमारा चार वरांचेर ते दोगूय भाव अंधेरीच्या विक्रांत कॉलनीचे एके बिल्डींगेचीं सोपणां चडूंक लागले. प्रो. सामंत आपल्या भावाक प्रस्नार प्रस्न करताले आनी सुधीर भोव मोठे आवडीन जाप दितालो.

‘घराणें गरीब आसा रे पूण चली सभावान भेस बरी. आवय बापूय ना तिका. आवय भायर पडल्यार दोन वर्सां जालीं. आतां ती मावशेगेर आसता. तिजो मावसो आमच्याच फॅक्टरींत काम करता.

उलोवण्याभरशीं ताणीं बेल केन्ना वाजयली आनी दार केन्ना उगडलें हें तांकांय कळ्ळेंना. दारांत व्हंकलेचो मावसो उबो आशिल्लो.

‘हो म्हजो भाव ... ’सुधीरान सांगलें.

‘नमस्कार!’ सामंतान केन्नाच जाणलें की फुडच्यांत उबो आसा तो व्हंकलेचो मावसो म्हूण.

‘खूब वेळ खबरी जाल्यो. मावशी दारांतल्यान भायर सरली आनी तिजे फाटल्यान व्हंकल येता हें थंयच्या लोकांक कळून आयलें, सामंतांनी व्हंकलेचेर नदर व्हेली! दोगांचीय नदरानदर मात जाल्या, सामंत जंयच्या थंय घट्ट जाले आनी व्हंकलेचे हात थरथरूं लागले.

तें रेखा अशिल्लें.

‘दादा ही तुजी वयनी, रेखा !’

‘हांव वळखतां ताका ! ’

‘कितें? ’ सुधीराक अजाप जालें.

‘हय! म्हजें स्टूडंट तें!’

रेखाचे दोळे भरून आयले. ताजो ताळो सुकलो, आपल्याक घुंवळच येता अशें ताका दिसलें. कशेय भशेन ताणें ट्रे मेजार दवरली आनी ताकतिकेन तें भितर गेलें. फाटोफाट मावशी भितर येवन पळयत जाल्यार रेखा हुंडक्यांनी रडटा!

‘रेखा, तूं रडटा?’

‘मावशी, आतां हें लग्न जायना!’

‘कित्याक गो?’

‘भायर आसात ते सामंतसर आनी ते तांचे भाव. सामंतसरांक हें लग्न कशेंच आवडचेंना!’

‘कोण सांगता आवडचेंना म्हूण!’ दोगांनीय फाटीं वळून पळयलें. दारांत सामंत सर उबे आशिल्ले.

‘वेल्यान म्हाका जितलो आनंद जाला तितलो कोणाकूच जावंचो ना!’

‘सर, तुमी तर आमची वासपूस लेगीत सोडिल्ली.’

‘वासपूस सोडूंक नाशिल्ली. पूण मनाची समजूत घालपाक दोन दीस लागले खरे! दोनच दीस उशीर जालो तुमगेर वचपाक आनी ते दोन दीस म्हजें जिवित पिसुडपाक पुरो जाले. आसूं आतां त्यो खबरी. फाटलें विसर रेखा आनी आतां नव्यान कामाक लाग. हो तुजो दुसरो जल्म समज. हांवें सुधीराक सांगिल्लें कीं म्हाका लग्नाक येवंक मेळचेंना म्हूण. पूण आतां लीव काडचीच पडटली.’

‘सर!’ रेखाच्या आवाजांत आपुलकी आशिल्ली.

‘रेखा, पूस, पूस ते दोळे आतां.’

रेखान दोळे पुसले, पदर घेतलो आनी ओणोव घालून सामंताक नमस्कार केलो.

रेखान सरांकडे पळयलें ......

तांचे दोळे .....

रेखाच्या मनांत आयलें ......

पूण ह्या दोळ्यांतलीं दुकां कोण पुसतलो ?

(परमळ दिवाळी अंक १९७१)

*******

# जीव निर्शेलो; जीव आशेलो

- उगडास जाता तुका प्रभाकराल्या लॅबांतलो प्रसंग?

- ना !

- कांयच याद जायना?

- त्यो यादी काडून आतां उपेग कितें ?

- मनीस यादींचेर जगता.

- पूण यादी गोड आसच्यो पडटात.

- कोडू यादी मनशाक मार्ग दाखयतात.

- निखटच्यो यादी न्हय त्यो. घाय ते घाय.

- त्या घायांची कळ येना तुका? विसरलो कसो तूं ते घाय?

- आंगावेले घाय विसरूंक शकता मनीस, पूण काळजावेले न्हय.

- सगळे उगडास जातात म्हाका. घाय ताजे आसात. ते कसो विसरतलो हांव? विसरपाचो यत्न खूब केलो.

- असले घाय मनीस विसरूंक शकना.

- वचपाक जाय म्हाका.

- इतल्या बेगीन?

- बरेंच काम आसा. तेंय म्हत्वाचें.

- म्हजें म्हत्व उणें जालें?

- मनशान कर्तव्य चुकोवचें न्हय.

- म्हजेकडेन उलयत बसतना पयलीं केन्ना कामाचीय पर्वा केली ना तुवें आनी कर्तव्याचीय बी.

- तो काळ वेगळो आसलो. परिस्थितीन मनीस बदलता.

- तूं बदलूं ना मरे ?

- आसत घडये.

- आसत घडये कितें? बदललाच तूं.

- तुजी नदर बदलल्या जायत. मनशाचे नदरेप्रमाण ताका भोंवतणचो संसार दिसता.

- म्हजी नदर तशीच असा.

- आसतय बी.

- अशें कितें उलयता तूं ? तुटक - तुटक शें.

- तुका दिसता तें तशें.

- उगडास जातात तुका ते दीस? आमकां एक प्रकारची मस्ती मारिल्ली. तुजीं तीं उतरां म्हाका अजून घट्ट याद आसात.

- खंयचीं तीं उतरां?

- काळान आमकां पयस दवरले जाल्यार लेगीत मनान मात हांव तुजेपसून पयस रावचो ना अशें म्हणिल्लें तुवें.

- आयची परिस्थिती वेगळी आसा.

- तुका तशें दिसता तें. तूंय तोच आसा. हांवूय तेंच आसां.

- तुज्या गळ्यांतलें मंगळसूत्र वेगळी गवाय दिता.

- फट तें.

- कितें? मंगळसूत्र काय ...

- हय. मंगळसूत्र.

- कित्याक ?

- भांगरान बांदिल्ले काळे मणी हे निखटे.

- आमचे संयमशील संस्कृतीचें प्रतीक तें.

- जी संस्कृती आमचे इत्सेक वळखना, आमच्या फुडाराक पळयना, आमच्या विचारस्वातंत्र्याक मोल दिना, तिका हांव संस्कृतीच मानपाक तयार ना.

- देवा-ब्राह्मणाच्या साक्षीन लग्न जालां तुजें. त्याभायर कायद्याच्या बांदपासान बांदिल्लें आसा तूं.

- पूण म्हाका तुजेकडेन जावपाचें आशिल्लें न्हय लग्न?

- तेन्ना वोग्गी राविल्यांचें प्रायश्चित भोगता तूं हें.

- आवय-बापाय आड बंड करपाची शक्त नाशिल्ली रे म्हज्यांत.

- भोग आतां.

- अशें उलोवं नाका रे. काळजाक तोपतात तुजीं उतरां.

- तेन्नाच झूज मांडूंक जाय आसलें तुवें.

- तूं एक विसरता.

- कितें तें.

- म्हाका अठरा वर्सां पुराय जावंक नाशिल्लीं.

- पूण आतां हो शीण कित्याक ? तोय म्हजेकडेन ?

- चार वर्सांनी मळ्ळा तूं म्हाका. अशीं तीख उतरां उलोवं नाका रे.

- तूं ह्या गावांत आसा हें खबर नाशिल्लें.

- तुका खोस जाली ना हांव मेळ्ळें म्हूण ?

- ना.

- इतलें घट्ट जालें तुजें कांळीज ?

- तूं हांगा आसा अशें कळ्ळयार हांगा बदली करून घेवचो नाशिल्लों हांव.

- मुद्दम बदली करून घेतली ह्या खेड्यांत ?

- खेड्यांचीच गरज चड आसा म्हाका आतां ....

- कित्याक काय म्हणटां ?

- चित्त शांत करून घेवपाक.

- म्हळ्यारच तुजें चित्त थाऱ्यार येवुंना तर अजून.

- अशेंय न्हय.

- सत्याक फाट करून कितें उपेग ?

- ओगीच झांकूं नाका. हांव चल्लों.

- खंय रावता तूं ?

- पेईंग गेस्ट म्हणून एकल्यागेर आसां.

- फाल्यां सामान घेवन हांगा यो.

- कित्याक ?

- मायेचें मनीस आसतना परक्यागेर कित्याक ?

- पूण तुजो घोव .....

- ताजो हुस्को तुका नाका.

- आसा थंयच बरो आसा हांव.

- बरोच हट्टी जाला तूं.

- ...... ..... ....

- आयची रात तरी राव म्हगेर.

- तुगेर ?

- हय.

- घोव कितें म्हणटलो तुगेलो ?

- ते पयस गेल्यात.

- आनी तूं ?

- एकलेंच आसां.

- आं ... ....

- अजाप जालें ? आज राव तूं.

- तें जमचेलें ना.

- चार वर्सां पयलीं दिल्लें उतर आज पुरें करूंक जाय तुवें.

- उतर ? कसलें तें ?

- हय. वचनपूर्ती आज कर. ही संद परती मेळची ना.

- वचनपूर्ती ?

- तुका सहज शक्य आसा तें आज.

- ..... ..... ....

- वोगी कित्याक ?

- मोगाच्या भारांत वचनाची देवाण-घेवाण जाता. पूण तीं पुरीं जायनात.

- तूं तातूंतलो न्हय.

- म्हळ्यार ?

- तुका खबर आसा तें.

- वचन तरी कसलें दिल्लें हांवें ?

- आमी केन्नाच एकामेकांपसून पयस वचचीं नात.

- फुडें उलय.

- आनी पयस जालींच जाल्यार तुज्या पयल्या भुरग्याच्या शिरंतरांनी म्हजें रगत खेळटलें.

- तूं मान्य जाल्लें तेन्ना ?

- हांव तुका देव मानतालें. अजून मानतां.

- फकणां केल्लीं हांवें तीं.

- ना ! म्हाका खूब खोस भोगली त्या वेळार. तूं सहज उलोवन गेल्लो तीं उतरां. पूण म्हाका खूब आवडलीं आनी हांवें तुजेकडल्यान उतर घेतिल्लें. प्रभाकर गवाय आसा. तूं विसरलो.

- .... .... .... ....

- मागीर तुवें म्हणिल्लें. म्हजे जिबेवयल्यान गेल्लें उतर धनुष्यांतल्यान गेल्ल्या बाणावरी आसता.

- निर्बुद्द आसा तूं अजून.

- आसूं. चलता म्हाका. तूं कितेंय म्हण पूण आज सांजे तुवें दितां म्हणिल्लें दिवंकच जाय.

- कोणालीच जबरदस्ती चलना म्हाका. तुका खबर आसा.

- पूण म्हजी चलता.

- आतां ना.

- आरे, पूण उठलो कित्याक तूं ?

- येतां हांव.

- च्या तरी घेवन चल मरे इल्लो.

- नाका. येतां आं .... ....

- आरे ..... आरे .....

× × × ×

- रकाद मेळ्ळो?

- देखून तर आयलां.

- फाटले पंदरा दीस तोंड लेगीत दाखयलें ना तुवें.

- काम आशिल्लें.

- हांव बाबडें वाट पळयतां पंदरा दीस.

- सोबना तुका हें.

- कित्याक ?

- तूं कोणाची तरी बायल जाल्या.

- म्हाका पर्वा ना.

- आगो, पूण समाज, संस्कार, धर्म हांचें कसलें तरी बंधन आसा काय ना तुका ?

- हे संस्कार, हो धर्म. ही नितिमत्ता कोणें केल्या ? समाजांतल्या सुखी मनशांनीच न्हय ? म्हज्यासारख्या दुखी, अभागी बायलांखातीर कोणें केल्यात कायदे ? म्हज्यासारख्या मनशांखातीर वेगळे नियम करचे पडटले समाजाक. तुज्या म्हज्यासारख्या मनशांचो विचार तुज्या धर्मानूय करुंना आनी समाजानूय करुंना.

- तूं सुखांत ना ?

- आसा शें दिसता तुका ?

- उलोवन तरी दाखयशीत दुःख ?

- तूं पयस रावता हें कितें उणें जालें दुःख ?

- म्हजे विचार सोडून दी आतां.

- तूं म्हजे विचार सोडपाक शकलो ?

- केन्नाच.

- फट.

- फट कित्याक म्हणटा तूं ?

- लग्न कित्याक जालो ना तर तूं ?

- ... .... ... ...

- उलय मरे आतां.

- तूं व्हांवता खूब. जड वतलें तें तुका. फुडार चींत.

- म्हजो फुडार सुखी जावचो अशें दिसना तुका ?

- केन्नाय. तुजें सुख तें म्हजें सुख.

- तर म्हाका एक भीक घाल. म्हाका आवय जावपाचें सूख दी.

- शी ....... ..

- समजून घे रे म्हाका.

- इतलें लाचार कित्याक जालां तूं ?

- परिस्थितीच तशी आसा.

- म्हजें एक आयकतलें ?

- सांग.

- हीं पिशेपणां सोडून दी.

- कसलीं पिशेपणां ? आवय जावपाची इत्सा सोडून दिवं ?

- तशें न्हय.

- मागीर ?

- तूं म्हजें उतर विसर. म्हजेखातीर रावूं नाका. घोवाचेर विस्वास दवर आनी जाय तें ताजेकडल्यान मागून घे.

- तांचेकडेन मागूं ?

- म्हजो नाद सोडून दिवन ताका विश्वासांत घे. सहज शक्य आसा तें.

- केन्नाच ना.

- आं ..... ..... ?

- हे बाबतींत ते नालायक.

- कि .. .. तें ?

- हें एक सूख सोडून, जगांतलीं सगळीं सुखां तें म्हाका दिवंक शकतात.

- खरें ? ... काय म्हजें मन विरगळावपाचो यत्न करता तूं ?

- ह्या वेळार तरी विश्वास दवर म्हजेर.

- चेक-अप केलो ?

- उपेग ना ताजो.

- कित्याक ?

- बरें जावपाचे दशेंतले न्हय तें.

- horrible.

- आतां कळ्ळें तुका ?

- म्हजी वळख करून दिता ताजेकडेन ?

- पयस गेल्यात.

- केन्ना येतले ?

- खबर ना.

- म्हणजे ?

- घरा केन्ना येच नात. आयलेच जाल्यार चार-स म्हयन्यांनी.

- म्हणजे ? हें दुख गांठीक बांदून काडटा तूं इतलीं वर्सां.

- लग्न जायतपसून हेंच चल्लां.

- Sorry. आं.

- ... ... ...

- बरें, येतां हांव.

- मागीर किर्तें थारायलां तुवें ?

- किर्तें तें ?

- खबर आसा तुका तें.

- तूंच सांग. हांव किर्तें करूं ?

- तें म्हाका खबर ना. म्हाका 'बाबू' जाय. इतलेंच हांव जाणा.

- म्हाका खूब काकुळट दिसता तुजी. पूण तुजी अित्सा पूरी करूंक शकना. येतां हांव.

- आरे चल्लो ... आयक तरी मात्सो .......

× × × ×

- यो, आज याद जाली स म्हयन्यांनी ?

- तूं जिकलें.

- अशें .... .... ?

- तुका विसरपाचो खूब यत्न केलो गो.

- जमलें तुका ?

- ना. चिंतून-चिंतून पिसो जावपाक पावलो.

- स म्हयने लागले विचार करपाक ?

- मनशाचे कांय सिध्दांत आसतात काय ना ?

- सिध्दांत जेन्ना आत्मीक सुखाच्या आड येतात ... ... ...

- तरी पूण लोक कितें म्हणटले ?

- लोक दोनूय उलयतात.

- पूण म्हजेर जाल्ले संस्कार ....

- संस्कार कोणें केल्यात ? मनशांनीच न्हय ? म्हज्यासारख्या बायलांक तुमची संस्कृती खंयची सुवात दिता ? घुस्मटतां रे हांव.

- आतां हांव आयलां न्हय ?

- कित्याक आयला ?

- तुका म्हजी गरज आसा म्हूण.

- काय म्हजी काकुळट दिसली ?

- तुजी न्हय, म्हजी स्वतःची.

- कित्याक ?

- तुका सूख दिवंक शकलों ना आनी पयस रावलों तरी काळीज जळत उरता म्हजें.

-- आतां कळ्ळें तुका ?

- कळाव जालो तरी आयलों काय ना ?

- खूब कळाव लायलो.

- कित्याक ?

- इतलो उशीर कित्याक लायलो ? तुका जमलें तें. तूं संयमी आसा.

- स्पष्ट उलय न्ही.

- दुश्ट आसा तूं.

- तूं ...... ? तूं ..... ?

- म्हज्यांतलें हांव मेलें केन्नाच.

- ना. ताका जिवें करपाक हांव आयलां.

- कितें मेळटलें तुका ? भस्टल्ली कूड !

- भस्टल्ली कूड ?

- तुवें फाफडून उडयलें म्हूण संयम सुटलो काय कुडीची भूक सोसली ना म्हूण संयम सुटलो. कांय सांगपाक येना.

- केलें कितें तुवें ?

- जें कितें बरें - वायट केलें ताजी जापसालकी तुजी.

- म्हजी ?

- हय.

- कितें केलें तें तरी सांग तुवें.

- आतां म्हजो अेकांत सोंपलो. सांगाताक कोणतरी येता.

- कोण तो ?

- म्हाका दीस गेल्यात.

( कुळागर फेब्रुवारी १९८७)

*******

# पैज

दीस निकतोच अस्ताक गेल्लो. अस्तंतेक मळब तांबडेंच दिसतालें. तांबडोच शालू नेसून सांज रातीक येवकार दिवंक तयार जाल्ली. सगळे लोक आपापल्या घरा वचपाच्या बोवाळांत आशिल्ले. गवळी गोरवांक घेवन घरा वताले. ऑफिसां सुटून कांय लोक आपल्या धाकल्या भुरग्यांक खाण घेवपाच्या बोवाळांत आशिल्ले. तर नवें लग्न जाल्ल्यांक केन्ना काय घरा पावून आपल्याले घरकान्नीचें सुंदर मुखामळ पळयन अशें जाल्लें; तर थोड्या संसारी लोकांची पावलां वोगीच वाटेर घुटमळटालीं. घरा वतकच बायलेची परवड आयकुपाच्या संकटाक भियेवन वोगीच हेडून वेळा काडटाले.

अशा वेळार शिरीष पणजेच्या जार्दिनांत बांकार बसून कोणाचीतरी वाट पळयतालो. मदींच आपुणूच हांसतालो; मदींच गंभीर जातालो. ओंदू ताजें फायनल वर्स आशिल्लें. पास जायत जाल्यार तो दोतोर जातलो आशिल्लो. आनी दोतोर जायनाफुडेंच ताज्या आवयबापायन ताका चतुर्भूज करपाचें थारायल्लें. गेल्ल्या आयताराच ताजो साखरपुडो जाल्लो. ताजो साखरपुडो जालो हें आयकून मेडिकल कॉलेजीच्या सगळ्या भुरग्यांक, दोतोरांक इतलेंच न्हय तर सगळ्या गांवांक अजापाचो धक्को बसलो. तो कुरूप आशिल्लो, ताका सोयरिको येनाशिल्ल्यो, अशें समजूं नाकात. तो सुंदर आशिल्लो, लांब आशिल्लो, ताज्या तोंडारच ताजी गिरेस्तकाय दिसताली.

ताका पळोवन खंयचेय चलयेक ताजेकडेन वळख करून घेवचेली खूब इत्सा जाताली. ताजेकडेन चार शब्द उलोवपाचे संदीची त्यो वाट पळयताल्यो. कॉलेजांतल्या चलयांक तर शिरीष म्हळ्यार एक कुवाडेंच आशिल्लें. ताजे भोंवतणी प्रत्येक चली सदांच घुटमळटाली. प्रत्येक चली आपापलेपरीन ताज्या काळजांत आपणाली सुवात घट्ट करूंक सोदताली. पूण चार वर्सांच्या सहवासांत रावूनूय तांचे भितरल्या कोणाक ताज्या काळजांत जागो आसा हें कळनाशिल्लें कारण तो सगळ्यांकडेन सारखोच वागतालो, हांसतालो, खेळटालो, मस्कऱ्यो करतालो. प्रत्येक चली जेन्ना ताजेसरीं एकटी आसताली तेन्ना तिका खात्री जाताली, 'शिरीषाचो म्हजेरूच मोग आसा. म्हजेबगर ताका चैन पडना.' पूण इतलें मात खरें, चलयांक ताजेबगर जायनाशिल्लें आनी तेचबरोबर तांकां ताज्या मनाचो थावूय लागनाशिल्लो. कितल्याश्याच चलयांनी ताका पत्रां बरोवन लग्नाचे बाबतींत विचारून लेगीत पळयलें, पूण ताजो तांकां स्पश्ट नकार मेळटालो. ताजें म्हणणें आशिल्लें "सगळ्यांकडेन हांव हांसून खेळून वागतां म्हूण हांवें कितें सगळ्यांकडेन लग्न जावचें? म्हज्या मतान इश्टागत आनी लग्न हातूंत कसलोच संबंध ना." हो खंयच्याय तरी एका सुंदर चलयेकडेन लग्न जातलो असो सगळ्यांनी समज करून घेतलो. ताज्या क्लासांतली आपल्याक सुंदर समजुपी प्रत्येक चली तर हो मान आपल्याकच मेळटलो हे उमेदीर आशिल्ली.

शिरीषान हे तांचे उमेदीचो सामको चुरो करून उडयलो. शिरीष रेखाकडेन - जें सुंदर नाशिल्लें, जें शिकूंकय अशें तशें आशिल्लें, अशे चलयेकडेन लग्न जाला हें तांणी आयकलें तेन्ना तांकां तें खरेंच दिसलेंना.

खरेपण पळोवंक तांणी रेखाक विचारलें. रेखान तांकां सांगलें, "तुमचे सारखेंच शिरीषाक पयले फावट पळोवन म्हजेंय मन ताजेकडेन ओढूंक लागलें. पूण हांवें ताका रोखडेंच आळाबंदा हाडपाचो यत्न केलो. हांव ताका योग्य ना आनी ताजे भोवतणीं तुमचेसारख्यो सुंदर चलयो घुटमळटा आसतना

म्हजो थंय निस्तोर लागचोना हाजी म्हाका खात्री आशिल्ली. पूण जितलें हांव ताजेपसून पयस वचूंक सोदतालें तितलोच तो म्हज्या मनांत खोल वचूंक लागिल्लो. ताजें रुपांतर मोगांत जालें. नकळत जाल्लो हो पयलोच मोगाचो आंकूर हांवें तसोच काळजांत जतन केलो. "पयलोच अपेशी मोग" ह्या नांवान हांव त्या मनांतल्या आंकराची पुजा करूंक लागलें. पूण कॉलेजांत वा भायर खंयच हांव ताका हडकी नाशिल्लें. केन्ना केन्नाय तो म्हाका पळोवन गालांतल्या गालांत हांसतालो आनी त्याच हांशांत हांव म्हजें समाधान करून घेतालें."

एक दीस अकस्मात म्हजो बाबा शिरीषागेर म्हजें नक्षत्र घेवन गेलो. म्हाका हें खबरूच नाशिल्लें. शिरीष घराच आशिल्लो. बाबान शिरीषाच्या बापायकडेन नक्षत्र दिवन म्हळें, 'बाकींच्या वांगडा आमच्याय नक्षत्राचो विचार करात. पसंत पडल्यार नातें जुळोवपाक भोव आनंद जातलो म्हाका." शिरीषाच्या बापायन सांगलें - "म्हजे लागीं कांय ना तें. न्हवऱ्याक पसंत तें आमकां पसंत."

"म्हाका रेखा पसंत आसा बाप्पा" शिरीषान एकाच उतरान सगळ्यांक थक्क करून सोडलें. आनी अजापाची गजाल म्हळ्यार आठ दिसांनी आमचो साखरपुडो जालो. हांव सपनांत आसा काय जागें आसां हाजो म्हाका दुबाव पडलो."

अशे फाटले सगळे प्रसंग आज तो जार्दिनांत बसून दोळ्यांमुखार हाडटालो. ताजेमुखार आज एकूच प्रस्न आशिल्लो, फाल्यां ताज्या इश्टाच्या काजाराच्या नाचांत ताजेबरोबर भाग घेवपाक रेखाक कशें तयार करचें हो. तो कॉलेजांतल्या बाकीच्या चलयांकडेन पैज मारून मोकळो जाल्लो. ताणें तांकां सांगिल्लें फाल्यां म्हजेवांगडा रेखा नाचतलें. रेखा नाचूंक जाणां पूण तें ताजेवांगडा लोकांहुजीर नाचचेंना हें तो जाणा आशिल्लो.

तिनसांज जाली. तो हॉस्टेलांत गेलो. कुडींत ताणें पांय मात दवरला,

“कितें ? शाबुद्द आसा मूं तुमकां ?”

“ना जाल्यार ताजें उबें जिवीत इबाडपाचें आसा तुमकां ?’

“हांगा रावून ताजें जिवीत पिङ्ग्यार जाता ?”

‘ताणें सूख पळयलां ? ताजो फुडार तरी चिंतात.’

‘ताजो फुडार काळखांत ना, घारूदाद ... उजवाडाचीं किरणां दिसूंक लागल्यांत ताका आतां - ’

‘समजलें ना हांव.’

‘आमच्यां वंशाचो दिवो ताणें पेटयला.’

‘कितें ?’

‘ ताका दीस गेल्यात.’

घारूदाद नेटान उठिल्लो तो थप्प करून बसलो. ताका दोळ्यांमुखार काळोख दिसूंक लागलो. घुंवळ येवन पडटा काय दिसलें ताका. ताणें उदक मागून घेतलें. बऱ्या वेळान ताणें कितें तरी थारायलें आनी म्हणलें,

“अशें जांवक जायना आसलें.”

“ कितें ? तुमी आमचे वेय म्हूण सुटले. नाजाल्यार तोणक्यांनी बडोवन भायर घालतलें आसलें. एकलो एकसुरो चलो विठू म्हजो, तोय गेलो. पूण वतना आपल्या वंशाचो दिवो परजळयलो. तेंय तुमच्यांनी पळोंव नज जालें ? दोळे फुटले तुमचे ? भागरथबायले दोळे तांबडेगूंज पेटते इंगळे शे जाल्ले.

“ताची पिराय तरी लक्षांत घेयात. चोविसावें वर्स लागलां ताका. सगळें जिवीत तें कशें काडटलें ? ताजें परतें लग्न करूंकच जाय.”

‘पूण आतां कशें लग्न करतले तुमी ताजें ? एके गुरवार बायलेक आपली घरकान्न करून घेवपाक खंयचो मूर्ख तयार जातलो ?’

‘ताजेरय उपाय आसा. आमगेलो दोतोर सगळें व्यवस्थित करतलो.’

घारूदादान भीत भीत म्हणलें.

'घारूदाद, कोणामुखार उलयतात तुमी हें? तुमी जाणात, म्हज्या वंशाची वाल वाडूंक जाय, ती फुलूंक जाय, फळूंक जाय. मारून उडोवपाची ना म्हाका.'

'पूण भागरथबाय, तुमी समाजाच्यो मोठ्यो कार्यकर्त्यो. बायलांच्या हक्काखातीर झगडपी तुमी आनी आज तुमचेमुखार एक निराधार बायल येरें तुटिल्ल्या तारवावरी दर्यांत बुचकळ्यो खाता ती तुमकां दिसना? जायूक म्हज्या न्याय दियात भागरथबाय, जायूक म्हज्या न्याय दियात. भीक मागतां हांव तुमचेकडेन. म्हज्या घरांत ताणें दुःख केन्ना पळयलें ना. फुलावरी सांबाळ केल्लो हांवें ताजो.' घारूदादाच्या दोळ्यांतल्यान दुखांच्यो झरी व्हांवंक लागल्यो.

'घारूदाद, तुमचें मन जाणटां गा हांव. पूण तुमीच पळयात. म्हाका दुसरो पूत आसा? तुमी म्हणटात तशें हांवें मानलें जाल्यार म्हगेल्याच घराची वंशावळ हांवें कापून उडयल्लेवरी जावचें ना? हांगा म्हाका न्याय कोण दिता? कोणाचेरय तरी अन्याय हो जातलोच. हांव म्हज्या वंशाची हत्या करूं दिवची ना.

'हांव जायूक घेवन येतांच अशें हांवें जायूचे आवयक सांगिल्लें. ती सामकी हांतुळणाक लागल्या. तिका कितें सांगूं हांव? आनी भागरथबाय मातशें मनीसपणाचे नदरेन पळयात. ह्या-ह्या जायूची दशा पळयात. हाडांक काती लागल्यात ताज्या, कित्याक? तुमगेर जेवंक मेळना म्हूण? कसलें सुख ना तुमगेर? पूण .... पूण जायूक जें जाय तें तुमच्यांनी दिंवक नजो. ताका मनाची शांती जाय. फाटलें सगळें विसरून जर ताणें नवें जिवीत सुरू केलें जाल्यारच तें हाताक लागतलें, भागरथबाय हाताक लागतलें. नाजाल्यार, नाजाल्यार ....'

'पूण म्हज्या वंशाचो दिवो म्हज्या हाताक लागतलो जाल्यार तिणें त्याग करपाकच जाय.'

हॉस्पिटलाचे रातपाळयेचे दोतोर आनी नर्सी धांवून आयल्यो. पूण ते येवचे पयलींच शिरीष आनी रेखा हो संवसार सोडून गेल्लीं.

********

# व्यथा !

- पप्पा, आज म्हाका दोनशीं रुपया जाय.

- दोनशीं रुपये कित्याक रे ?

- फॉर्म भरूंक जाय.

- कसलो रे ?

- पप्पा, एस्. एस्. सी. चो, आज निमणी तारीख.

- व्हर आं. आईकडेन मागून व्हर.

अरुणान पयशे व्हर म्हणलें खरें, पूण एस्. एस्. सी. चो फॉर्म म्हणटकच ताज्या काळजांतलें उगडासाचें कवड आपशींच उकतें जालें. राजून फॉर्माक पयशे मागले आनी आपणें ते व्हर म्हणलें. कितलें सोपे भाशेन फॉर्म भरप जालें! आनी ........

आनी - - - पंचवीस वर्सां आदली गजाल. त्या दिसा एस्. एस्. सी. ची प्रिलीम आसली. पयलोच पेपर इंग्लिशीचो. पयली बेल जाली आनी हातांत पेपर पडलो इतल्यांत ...... प्रिंसिपल आयलो, हातांत एक वळेरी घेवन. ताणें कांय नांवां घेतलीं. नांवां वाचता तशें - तशें अरूणाचें काळीज धडधडूं लागलें. 'म्हजें नांव घेना जाल्यार पुरो.' ताणें मनांत म्हणलें. तो जाणा आशिल्लो जांणी जांणी फी भरूंक नाशिल्ली तांचींच नांवां प्रिंसिपल

घेतालो आनी तांकां उबे करतालो. ताणें आदल्या आयतारा गांवांत वचून आपल्या बाबाक फियेची खबर सांगिल्ली. फी दिना जाल्यार परिक्षेक बसूंक मेळचें ना आनी प्रिलिमेचे परिक्षेक बसलो आनी पास जालो ना जाल्यार फॉर्म भरूंक मेळचो ना. फॉर्म भरलो ना जाल्यार बोर्डाचे परिक्षेक कशेंच बसूंक मेळचें ना हेंय ताणें बापायक समजावन सांगिल्लें. मागीर एस्. एस्. सी. बुडली आनी वर्सूय बुडलें म्हणल्यार जिविताच्या म्हत्वाच्या सोंपणावेल्यान निसरून पडप. हातपांय धडधाकट उरले जाल्यार फुडली परिक्षा नाजाल्यार सासणाची शिक्षा.

सगळें एकेच खेपेक ताणें बापायक सांगून उडयल्लें. ताजो बाबा येवजणेंत पडिल्लो. फियेचे वीस रुपये लेगीत सट्ट करून बोल्सांतले काडून दिवंक मेळना म्हूण तो खंती जाल्लो ताका दिशिल्लो. अरूण जाणा आशिल्लो हे वीस रुपये लेगीत बाबाक कितले जड ते. त्या वेळार बाबान आईक म्हणिल्लें, 'शुल्लक वीस रुपये ते! पूण तेवूय पुताक दिवंक मेळप ना हाचेसारखें दुःख आसा?' पूण बापायन ताका धीर दिवन सांगिल्लें, "तूं चल. हांव पयशांची वेवस्था करतां. पयशे धाडूंक पावलो ना जाल्यार हांव प्रिंसिपलाक चीट बरयतां. तूं भियेवं नाका. तो तुका परिक्षेक बसूंक दितलोच."

परिक्षे दिसा तो सकाळफुडेंच देवाक पांय पडून आयिल्लो. ताणें देवाकडेन मागिल्लें, "बाबाली चीट प्रिंसिपलाक मेळ्ळयार पुरो. म्हाका प्रिलिमेक बसूंक मेळ्ळयार पुरो."

आनी इतल्या बोवाळांत सामकें गरजेचें मात ताणें देवाकडेन मागलें ना. दर परिक्षेक तो भायर सरचे पयलीं देवाक पांय पडून "म्हाका बऱ्या मार्कांनी पास कर" म्हूण मागतालो पूण त्या दिसा तो विसरलो. घडये पास जावपाचें आपल्याच हातांत आसा हें ताका होलमल्लें आसुंये.

अरूण विचारांत गुल्ल आशिल्लो. उगडासाचें एक-एक कवड तो उकतें करतालो. आतां ताका क्लासरुमांत कितें चल्लां तें लेगीत दिसनाशिल्लें,

आयकूंक येनाशिल्लें आनी ....... आनी प्रिंसिपलाचो खणखणीत आवाज ताज्या कानार येवन आपटलो, "अरूण द. सामंत." अरूणान न्हिदेंतल्यान जागो जावन भिरांतेन आंग काडल्लेवरी केलें. कितें जाता हें लक्षांत येवचे आदींच प्रिंसिपलान ताका सांगलें, "यो भायर. चार म्हयन्यांची तुजी फी उरल्या. इतली खंयच्याच भुरग्याची उरूंक ना. फी फारीक केलेबगर पेपराक बसूंक मेळचें ना."

केन्ना न्हय ती आज ताका लज जाल्ली. आपल्या गुन्यांवाखातीर ताका केन्नाच क्लासींतल्यान भायर घालूंक नासलो. अरूणान आपल्या हातांतलो पेपर डेस्कार दवरलो आनी प्रिंसिपलाफाटल्यान ल्हवू-ल्हवू पावलां घालीत भायर आयलो. ताणें तरे-तरेन प्रिंसिपलाक सांगपाचो यत्न केलो पूण प्रिंसिपल कांयच आयकूंक तयार नासलो. ताका थरथरो भरलो, तो घामाघूम जालो.

पेपर सुरू जावन अर्द वर जालें तरी भुरग्यांक भितर घेवपाचें नांव काडिनाशिल्लो प्रिंसिपल. तांतले तातूंत एक समाधानाची गजाल म्हणल्यार तो एकलो नासलो. ताजेवांगडा आनीकूय भुरगे आसले. कितें जाता तें वांगडाच सगळ्यांचें जातलें अशें ताणें चिंतलें. संकश्टांत लेगीत आपल्या वांगडा हेरांक ओडपाचो मनीस सभावूच. आपल्या वांगडा दुसरो आनी संकश्टांत कित्याक पडचो अशें चिंतून कोण चुरचुरना.

ताका रडूंक येवंक लागलें. खिणांत दोळ्यांतल्यान भळभळीत दुकां.

- कोण आसा धीर दिवपी ?

- आवय पयस गांवांत.

- बापायन येतां म्हणलें आनी फटयलें.

ताका दिसलें, कोणेंयतरी येवंचें आनी फाटीर हात भोंवडावचो, धीर दिवंचो आनी कोणेंयतरी सांगचें, "आयचो पेपर तुमकां परत बरोवंक मेळटलो."

ते इल्लेशे जिणेंत ताका जितल्यो म्हूण गाळी येताल्यो तितल्योय ताणें प्रिंसिपलाक संवल्यो; पूण मनांतल्या मनांत. उक्तेपणान गाळी मारपाची माणसुकी आशिल्ली? आतांचो काळ न्हय तो. आतां शिक्षकांचेर फुलयल्यार लेगीत ताका पोलो चोळीत ओग्गी रावचें पडटा पूण त्या काळांत इश्कॉलांतल्यान भायरो जावपाची पाळी.

इतल्यांत फाटीचेर कोणाचो तरी हात भोवूंक लागलो. ताज्या आंगार कांटो उबो रावलो. चिंतूंक नासलें, कल्पनेभायलें, जें घडचें अशें दिसता पूण घडचेली शक्यताय सापूच नाशिल्लें तें अचकीत घडलें जाल्यार आनी कितें जातलें ? एक मायेचो हात ताजी फाट सांसपितालो.

- हो हात म्हजी अडचण सोडयत काय ?

- हो हात म्हज्या मनाक थाकाय दीत काय ?

- हो हात म्हजीं दुकां पुशीत काय ?

- काय हो हात निखटो सुकी सहानुभुति दाखोवपी आसत ?

अशे एकार एक प्रस्न ताजेमुखार उबे रावले. ताणें ल्हवूच फाट वळून पळयलें. गणू! गणूसर! हालींच लागिल्लो ताज्या स्कुलांत शिक्षक म्हूण. अरूणाच्या गांवचो. तशी गांवची वळख, पूण उलोवणें केन्नाच नासलें. तो ह्या स्कुलांत येता, हें खबर आसलें. पूण केन्नाच ताणें अरूणाक हटकिलो ना. तो अरूणाक वळखता काय होय दुबाव आसलो. अरूणानूय ताका केन्ना हटकिलो ना. कित्याक काय ?

कशेंय जावं पूण आज एक गांवभाव ताजे वासपुशेक आयलो. सारखो गरजे वेळार. ताजो पयलो प्रस्न;

- तुंवूंय भायर रे ?

प्रस्न इल्लोसो! सादो, सुटसुटीत. पूण अरूणाक मात तो कळ्ळोच ना. "तुंवूंय भायर?" म्हणल्यार कितें ? हांवें भायर आसपाचें न्हय काय

म्हजी फी उरप म्हणल्यार ताजे नदरेन अजाप? काय हांगा जे भुरगे भायर आसात तातूंत सगळ्यांपरस फी भरपाची म्हजी तांक बरी आसा असो बी हाजो समज ? तशें जाल्यार, गांवचो आसून लेगीत म्हज्या घराची अर्थीक आवतिकाय हाका खबर ना अशेंच म्हणचें पडटलें."

अरूणान प्रस्नाचो हेत समजुपाचो यत्न केलो पूण तो कांयच उलोवंक शकलो ना. प्रस्नाचो हेत कळ्ळेबगर कसो उलयतलो ?

ताका खबर आशिल्लें, भायर घाल्ल्या भुरग्यांभितर थळाव्या भाटकारांच्यो चलयो आशिल्ल्यो, थळाव्या वेपाऱ्यांचे चले आशिल्ले, प्रोफेसरांचे भुरगे आशिल्ले. तो चिंतताले, "हातूंत हांव खंय बसतां? म्हजें घराणें कसलें?

- जाका आठ-आठ दीस अन्नाचें दर्शन जायना आसलें!

- जाका आवय शिताच्या जाग्यार पणसाचीं भिकणां उकडून घालता असलें!

- पावसाळ्यांत तेरो-तायखिळो सादे गोडाबगर शिजोवन घालता असलें.

- शेजाऱ्यांनी विचारलें जाल्यार आज जेवणाक अमकें - अमकें केल्लें म्हूण सांग अशें शिकोवन दवरपी आनी खंयच्याय देवस्थानांत देवकारें आसलें जाल्यार थंय तरी भुरग्यांक पोटभर अन्न मेळटलें म्हूण दोन - दोन, तीन-तीन कोस चलोवन व्हरपी बापूय जाचो आसा तो भुरगो दर म्हयन्याक फी कशी फारीक करतलो?

खीणभर अरूणाच्या मनांत आयलें घरची परिस्थिती विस्तारान ताका सांगची आनी गणूसराल्या "तुंवूंय बी भायर?" ह्या प्रस्नाची जाप दिवची. पूण तें धाडस ताज्यांत नाशिल्लें. घरची गरिबी उक्ताडार घालची न्हय ही आवयन दिल्ली शिकवण खीणभर आड आयली जायत.

तरीपूण अरूणाक दिसलें, हो म्हाका आधार दीत काय? बुडटलो

मनीस लेगीत काडयेचो आधार सोदता. पूण ताजी गरज पडली ना. इतल्यांत व्हारांदार कसलो तरी बोवाळ सुरू जालो. सगळ्या भुरग्यांचें लक्ष तेवटेन गेलें. एके चलयेचो बापूय आपले धुवेक भायर घाल्या म्हूण प्रिंसिपलाक उबो - आडवो सोलून काडटालो. हो थळाव्या प्रिमारियो इश्कोलाचो प्रोफेसर जावन लेगीत फाड-फाड इंग्लिशींतल्यान प्रिंसिपलाक तापयतालो आनी प्रिंसिपल त-त-प-प करीत कोंकणींतल्यान ताका समजावपाचो यत्न करतालो. कितेंय आसूं, कशेंय आसूं, ताणें प्रिंसिपलाक भायर घाल्ल्या सगळ्यां भुरग्यांक भितर घेवंक लायलें जावंये आनी देखूनच प्रिंसिपलान सगळ्यांक भितर घेतलें. इतले म्हणसर एक वर सोंपलें. गणूक थंयच दवरून अरूण भितर गेलो. ताका 'देव बरें करूं वा थँक यू' लेगीत ताणें म्हणलें ना. मागीर पेपर बरोवपाक चित्त लागता? कितें बरयलें ताजें ताकाच खबर. पूण पास जालो.

एक दीस बापूय फियेचे पयशे घेवन आयलो. फी फारीक करपाक सगळे पयशे घेवन आयला म्हूण तो खुश आसलो.

"आतां तरी जालें मनासारखें?" बापायन अरूणाक विचारलें.

"ना बाबा."

"तरीय ना?"

"फॉर्म भरपाक जाय वीस रुपया."

"आनीकूय वीस रुपये ? " बापायन अजापान म्हणलें.

अरूणाच्या बाबाक शेळो घाम सुटलो! कितल्या कश्टांनी फियेचे पयशे जमोवन हाडिल्ले! कशे हाडले ? ताचो जीव तोच जाणा.

भुरग्यान शिकचें अशें कोणाक दिसना? आपल्या भुरग्यान उणीच एस्. एस्. सी. तरी करची हो गरीब बापायचो लेगीत हावेस आसता.

पूण ती फी, तीं पुस्तकां अरूणाच्या बापायचे तांकीभायलीं आसलीं. एकदांचो एस्. एस्. सी. जालो म्हणटकर खंयींय तरी चिकटावन कुटुंबाक

आदार जावंचो हो हेत. पूण तो लेगीत पुराय जाता म्हणसर कितल्यो खस्ती काडच्यो पडटल्यो काय देवा हांकां?

'आवा-शिवा करून फियेचे पयशे जमयले. आतां परिक्षेचो फॉर्म आयलो. आनी वीस रुपया! कोणाकडल्यान घेवंचे?"

बापायक जाप मेळना जाली. अरूणाक बापायच्या तोंडावेली निर्शेणी स्पश्ट दिसली. पूण करतलो कितें? ताका दिसलें सोडचें हें शिक्षण. करचें कसलेंय काम. पोट भरूंक मेळ्ळें शें कारण. आपलें सोड, आई-बाबाक तरी ह्या वयार सुशेग दिवंचो अशें दिसलें ताका. आईन काडल्यात ते त्रास तर .....

"अरूण" बाबाचो आवाज ताच्या कानार पडलो.

"कितें बाबा?"

"फाल्यां हांव स्कुलांत वतां आनी तुजी सगळी फी भरतां आनी प्रिंसिपलाक सांगतां फॉर्माचे पयशे आनी थोड्या दिसांनी धाडटां म्हूण. ना म्हणचो ना. इतलो उपकार केला थंय आनी इल्लो कर म्हूण सांगतां. तुका फॉर्म भरपाक दितलो तो."

"फॉर्म भरलो हांवें बाबा. पूण भरलो म्हण जायना. फॉर्माचे वीस रुपये दिलेबगर हॉलतिकेट मेळचीना."

"भरलो फॉर्म? बरें जालें. तकलेवयलो एक पेज देंवलो. तूं आतां फायनलीचो अभ्यास मन लावन कर पळोवया. तूं भियेवं नाका. तुका हॉलतिकेटी खातीर त्रास जावंचे नात."

"पप्पा, तुका आई आपयता." राजूचीं उतरां कानार पडलीं आनी अरूण भानार आयलो. भुरगेपणांतले उगडास कितले खुशालभरीत आसतात? पूण अरूणाक मात दर उगडास खंतीचें रुप घेवन काळजाक तोपतालो.

राजूक आतां सगळें आयतें मेळटा. कितें उणें आसा ताका? फी ना. शिक्षण फुकट. पुस्तकां, कादेर्न, जायतें सामान मागिनासतना आवय हाडून

दिता. बोटव्यांत कितें आसा कितें ना हाची आपुलकेन चवकशी करता. आनी आमच्या वेळार ..... नाका ते उगडास. मनाक त्रास जातात.

ताणें तकलेंतलो विचार फाफुडपाचो यत्न केलो. खोमसावेलो धुल्ल फाफडूंक सोंपो पूण तकली फाफडून रिकामी करूंक मेळटा व्हय?

परिक्षेचो दीस कसो विसरूंक जायत ताज्यान? त्याच दिसा तर बापायचें खरें रूप दिसलें ताका. त्याच दिसाच्यान बापूय होच ताज्या पुराय जिविताचो आदर्श जावन बसलो. जिविताचो वाटपंगड.

परिक्षेचो दीस उजवाडलो तरी बापूय हॉलतिकेट घेवन पणजे पावूंक नासलो. चार दीस तरी पयलीं हॉलतिकेट घेवन येतां म्हणपी ताजो बापूय परिक्षेच्या वेळार लेगीत पावना जाल्यार कितें जातलें हाची कल्पनाच ताज्यान करूं नजो जाली. गोंयचे सुटके उपरांत पयलेच खेप परिक्षेचें केंद्र पणजे उगडिल्लें. अरूणाचें आजोळ पणजे आशिल्ल्यान ताका खोस जाल्ली. परिक्षेक धायेक दीस आसा म्हळ्यार अरूण मामागेर गेल्लो. आनी तेन्नाच्यान हॉलतिकेटीची वाट पळयत आसलो.

पूण आतां अरूणाचें पासियेंस सोपिल्लें. णव वरां जाल्लीं. धांक पेपर सुरू जाता. मामी ताका भोंवन-भोंवन सांगताली, "तूं जेव पळोवया पयलीं. दोन उंडयो पोटांत घाल. भावोजी आयले बगर रावना. ताका हांव वळखतां. तो केन्ना कोणाची खोटी करचो ना. आनी केन्नाच उतराक फाल्स जावचो ना."

अरूणाक दिसतालें, जेवन कपडे बी घालून तयार रावंक जाय, बाबा वेळार पावलो जाल्यार .... पूण दारांतले पांय भितर वळनासले. जसो-जसो मिनटां कांटो फुडें सरतालो तशो ताच्यो हिमटच्यो वाडत वताल्यो.

"आतां बाबा येना. वर्स बुडलें. आपल्या नशिबांत एस्. एस्. सी. ना." - अरूणाक हिमटेर हिमटी येताली आनी दोळ्यांतल्यान पांवळ्यो व्हांवताल्यो. वाटेर नदर. काळो कोट आनी काळी तोपी घालून दिशिल्लो दर

पुडवेकार ताका बाबाच दिसतालो. जितली मामी ताका समजायताली, ताचो रडपाचो आवाज वाडटालो.

एक खीण असो आयलो जो मामीचो लेगीत धीर घेवन गेलो. तीय आतां बाबाक दुशण दिवंक लागली. तिजेकडेन पूण दुसरो उपाय कितें आशिल्लो? अरूणान तर मुस्तायकी देंवोवपाक सुरवात केली. आनी .....

ताज्या बापायची मूर्ती दारांत हांसत उबी.

"हें कितें बाबा ? कितलो वेळ ?"

गेल्ल्या चार दिसांच्या घुस्मटमाराचो सगळो राग ताका बाबाचेर काडपाचो आसलो. पूण मामी ?

प्रसंगाची गंभीरताय वळखुंची जाल्यार तिणेंच.

"अरूण, पयलीं तूं हॉलतिकेट घेवन परिक्षेक चल पळोवया. पेपर बरय. उलोवपाचें सगळें सांजवेळां उलोवया. बाबा खंयच वचना. ताका दवरतां हांव. चल तूं."

अरूण गेलो. पूण वतना व्हडलीशी उमेद घेवन गेलो ना. पेपर बरयतना लेगीत ताचें चित्त थाऱ्यार नासलें. पेपर सुटलो. तो घरा आयलो. बापूय वचपाक गेल्लो. बापायक वचूंक कित्याक दिलें म्हूण अरूणान मामीचेर राग काडलो.

"अरूण, तूं बापायचेर कितलोय शीण, कितलोय राग काड. तो तुजो अधिकार. पूण एक सांगतां, तुज्या बापायसारखो बापूय मेळूंक भागय लागता भाग्य." मामीन म्हणलें.

"तुज्या बापायन हाजे-ताजेकडेन भीक मागून पयशे जमयले आनी हॉलतिकेट हाडपाक सांवड्ड्या गेलो. ताणें हॉलतिकेट घेतली. आतां ताजेकडेन फकत आठ आणे उरिल्ले. ते आठ आणे घेवन, देवाक पांय पडून तो काल सांजवेळां ६ वरांचेर सांवड्डेच्यान चलूंक लागलो. चलता, चलता, रातभर

चलता तुजो बापूय. जाणा अरूण, आज सकाळीं आठांक तो भाणस्तारी पावलो. भाणस्तारी तो कार्रेरींत बसलो. आनी बोल्सांतले आठ आणे दिवन तो साडेणवांक हांगा पावलो. आनी तुका तोंड दाखोंवक लज दिसता म्हूण तो म्हजेकडल्यान पयशे घेवन घरा गेलो."

अरूण धवो फटफटीत पडलो. ताजें सगळें आंग शेळें पडलें. ताका कुलकुलो खावन जोर येता काय दिसलें.

- तो मामीचे वेंगेंत रिगलो.

*******

# तूं हांसलें आनी ......

तुका उगडास जाता निलू ! तुजी म्हजी पयली वळख कशी जाली ती ? कोलव्यां वेळेर ! हांवें तुका पयलीं पळयलें. तुज्यावांगडा तुजी इश्टीण नेत्रा आशिल्लें. ताणें म्हाका हडकिलें. हांवें ताका जाप दिली. तें म्हज्या वांगडा उलयतालें. खूब खबरी विचारतालें. उलयतालों खरों ताजेकडेन, पूण नदर खिळिल्ली तुजेर. तें नेत्रान जाणलें. ताजे मतींत कितें आयलें कोण जाणा पूण ताणें रोखडेंच म्हळें, 'विकास, हाजी तुजेलागीं वळख करून दितां हां ! हें निलिमा, म्हजी इश्टीण. हांव ताका निलूच म्हणटां. म्हजेच ऑफिसांत काम करता, टायपिस्ट म्हूण. आनी निलू, हो विकास, म्हजो आतेभाव. पी. डब्लू. डींत काम करता. फुडल्या वर्सा बी. ए. जातलो.

तुवें हात फुडें केलो. हांवेंय केलो. पूण मातसो उसरां, खीणभर विचार करून. इतल्यांन तुवें म्हळें, ' I am glad to meet you ' हेंच वाक्य म्हाका म्हणपाचें आशिल्लें. पूण म्हणपाक फाटीफुडें येतालों आनी तें तुजे नदरेन जाणलें. तूं हांसलें, थोडोवेळ आमच्यो खबरी जाल्यो. पूण तुवें तातूंत वांटो घेतलो ना. त्या उलोवपांत हांवें वांटो घेतिल्लो पूण तो न घेतिल्लेवरीच. कारण तूं म्हजेमुखार आशिल्लें आनी म्हजी नदर तुजेर आशिल्ली आनी म्हज्या काळजांत कितें चलतालें ? म्हज्या काळजाचे धडेर तुज्या ल्हव हांशाचीं मंद ल्हारां येवन आपटतालीं. नेत्राच्या उलवण्याचेर

म्हजें लक्ष नाशिल्लें.

तुका वाज आयलो काय कोण जाणा? तूं पायांच्या नाखटांनी रेंवेवांगडां खेळूंक लागलें. खेळटां खेळटां मातशें पयस पावलें. हांवें ल्हवू नेत्राक सांगलें 'तुगेले इश्टिणीक आनी एकदां हांसूंक लाय गो!' नेत्रा समजलें. खीणभर तें म्हज्या तोंडाक पळयत रावलें. एकदम हांसलें आनी एकसारखें हांसत सुटलें.

म्हाका लज जाली!

तुवें ताका विचारलें, 'कितें जालां गो इतलें हांसपाक?' तूंय ल्हव शें हांसलें.

आनी हांव ?

हांव लज विसरलों. नेत्रालो सात मजली हांसो विसरलों, म्हजे मुखार आशिल्लें तुजें ल्हवू हांसप! तुजें पिशें लावपी हांसप!

तुज्या त्या ल्हव हाशांत बुडून रावचें अशें दिसलें म्हाका! सामकें दिसभर बुडचें शें दिसलें. न्ही! दिसभर न्ही, सगलें जिवीतभर. ही म्हजी दशा नेत्राक कळ्ळेबगर रावलिना. ताणें विचारलें, 'मेळ्ळें मरे तुका जायतें? जालो मरे तूं धादोस?'

पुणून खंयच्या मनशाक केन्ना धादोसकाय मेळिल्ली आसा? ताजी आशा वाडत आसता. ताजो हावेस चडत आसता!

हांवें तकली हालोवन ना म्हळें.

नेत्रान आपल्या तोंडार काकुळटेचे भाव हाडले आनी ओठांचो चंबू करून म्हाका 'चचच' करून चाळोवंक लागलें. तें पळोवन तूं परतें हांसलें. नेत्रान म्हळें, 'घे, खा आतां! आतां तरी जा धादोस!' आनी तें हांसत सुटलें.

तुका मात तें कोडें पडलें. तूं बुचकळ्यांत पडलें. तुवें विचारलें, 'जालां कितें गो तुमचें?'

'मागीर सांगतां.' नेत्रान म्हळें. हांव भिलों! म्हज्या मुखार प्रस्न उबो रावलो, खऱ्यांनीच नेत्रान तुका सांगलें जाल्यार? हांवें ताका नाका म्हूण सांगलें. ताका सोपूत घालो. ताणें फक्त बरें बरें म्हळें. आनी ताणें तुका ओडीत व्हेलें. नेत्रा तुका सांगल्याबगर रावचें ना हें हांवें जाणलें. हांव तुमकां फाटल्यान पळयत रावलों. म्हज्या म्हऱ्यांत विनू केन्ना येवन रावलो तें लेगीत म्हाका कळ्ळेंना. ताणें विचारलें, 'कोणाक पळयता रे विकास? आनी तें कोण रे नागीण शी कमर मोडीत चलता तें?'

खरें सांगतां तुका निलू, त्या दिसा म्हाका ताजी अशी तिडक मारली, एक मुस्कटांत फुलयन शें दिसलें. पूण वोगी रावलों. म्हजें मन ताका कळिल्लें म्हाका नाका आशिल्लें.

ते राती म्हाका न्हीद पडलिना. फकत तुज्या हांशाच्या ल्हारांनी बुचकळ्यो खायत रावलों. कूस परतयत रावलों. निमणें डायरी काडली. पेन घेतलें आनी बरोवपाक सुरवात केली -

चाहे तू अजनबी हो या अनजान

तेरी हँसी पर मैं हजार बार कुर्बान

त्या दिसा उपरांत तूं म्हाका मेळिल्ले खेपेक हांसून 'स्वागत' करूंक लागलें. हांव समजलों, नेत्रान तुका सांगलें म्हूण. म्हाका तुज्या हांशाची धुंद चडली. तुज्या हांशाबगर कांयच येवजना जालें. रात दीस हांव तुज्या हांशाभोंवतणी आनी तुज्या रूपाभोंवतणी घुटमळूं लागलों. म्हज्या श्वासांत तूं, विचारांत तूं, न्हिदांत तूं, सपनांत तूं! आनी एक दीस म्हाका कळून आयलें हांव तुजो मोग करतां.

येवजून म्हाका कशेंशेंच दिसलें. पूण मनांत मात धादोसकायशी आयली आनी बरें दिसलें म्हाका त्या दिसा. पूण रोखडोच एक प्रस्न म्हज्यामुखार उबो रावलो, 'निलूय म्हजेर मोग करता आसये काय?' ह्या प्रस्नाची जाप म्हाका घडये 'हय' म्हूण मेळटाली तर घडये 'ना' म्हूण मेळटाली. दर खेपो

तूं म्हाका हांसून येवकार दिता तें पळोवन म्हाका दिसलें तूंय म्हजेर मोग करता. हांवें जाणलें तुका नेत्रान सांगलें जावंये म्हाका तुजो हांसो आवडलो म्हूण आनी तूं दर खेपो म्हाका त्याच हांशान खोशी करता म्हूण. पूण रोखडेंच दिसतालें, वळखीचो मनीस दिश्टी पडटकर कोणूय हांसताच. हांवय तुगेल्या ऑफिसांत नेत्राक मेळपाच्या निमतान खेपो घालतालों, तुवें जाणलेंच आसतलें. पूण तुजेविशीं नेत्रान म्हाका कांयच सांगलेंना. पूण म्हाका दुबाव आयिल्लो.

अशेच दीस वताले. पूण तुका विचारपाक म्हाका धीर जालोना. कितले फावट हांव मनांत थारायतालों तुका विचारून कितें ती जाप मेळयतलों म्हूण. पूण तूं जेन्ना सामकार दिसतालें तेन्ना एक तर हांव म्हाकाच विसरून वतालों वा तुका विचारपाक धीर जायनाशिल्लो. तूं मेळचे आदीं खूप दिसतालें तुज्या वांगडा खूप उलयतलों म्हूण पूण तुका पळयतकर तोंडांतल्यान उतर फुटनाशिल्लें. तुका पळोवपांतच हांव भान विसरतालों. मनांतलीं उतरां मनांतच उरतालीं.

आनी एक दीस, तुका उगडास जाता निलू, तूं अकस्मात म्हज्या रूमार आयलें. एकटेंच. म्हाका अजाप जालें नेत्रा तुज्या वांगडा ना म्हूण आनी बरेंय दिसलें तूं एकटें आयलें म्हूण. हांवें विचारलें - 'एकटेंच शें ?'

'भिरांत दिसता म्हजी?' तुंवें म्हळें.

'तुजी ती शेपडी ना म्हूण अजाप जालें!'

'उरफाटें उलयता ? म्हजी शेपडी तें न्हय. ताजी शेपडी हांव. हांवच ताच्या वांगडा भोंवता!'

'कशेंय जांव आज एकटें आयलें तूं!'

'ताका कारण आसा.'

'कितें तें ?'

‘नेत्रा पणजे गेलां.’

‘बरें जालें!’ हांवें म्हळें.

‘कित्याक?’ म्हजेर नदर रोखून ताणें अजापान म्हळें.

म्हज्याच उतरांचें म्हाका वायट दिसलें. हांवें अशें म्हणपाक फावनाशिल्लें. पूण मनीस तो! मनांतलें उतर जिबेर आयलेबगर कशें रावतलें. उलयल्लें उतर निस्तारूंक जाय आसलें! हांवें म्हळें - ‘आज म्हाका कळ्ळें कीं तूं एकटेंच येवपाक शकता.’

हेंय उतर ताका बरें लागलेंनाशें दिसतालें. ताणें मुद्दो बदललो.

‘फाल्यां म्हजो वाडदीस.’

' Oh! let me wish you today only.'

‘तुका आपोवपाक आयलां हांव.’

‘वाडदिसाक?’

‘नाजाल्यार कित्याक? इस्पिकांनी खेळपाक?’

‘इस्पिकांनी खेळपाक लेगीत जाल्यार येतलों आशिल्लों!’

‘म्हजेच वाडदिसाक मात येंवक जायना दिसता?’ ताणें तोंड वांकडें करून म्हळें.

‘तशें न्ही गो! म्हाका आवडना तें. तो तुजो जावं नाजाल्यार आनी कोणालेय. नेत्राक विचार, तागेल्या वाडदिसांक हांव केन्नाच गेलां जाल्यार?’

‘ताज्या नाका वचूंक पूण म्हज्या वाडदिसाक येवचेंच पडटलें तुका.’

‘पूण निलिमा .....’

‘फुडें कांयच उलोवं नाका! तुवें ‘येतां’ म्हळेबगर हांव हांगचें हालचेंना!’

हांव पेचांत पडलों. पूण मतींत थारायलें कितलो वेळ हालना तें पळोवया. तुजो हट्ट हांव जाणा आसलों. तरी पूण तूं तिनसांज जातकच

हांगा रावचें ना हें म्हाका खबर आसलें! पूण पावणेसात जालीं तरी तूं हाललें ना.

'पावणेसातां उपरांत तुका बस मेळचीना निलू!' हांवें म्हळें.

'तूं फाल्यां येतां' म्हण! हांव चल्लें. म्हजें उतर अजून मेरेन कोणंच मोडुंना!' ताणें विश्वासान म्हळें.

'आज हांव मोडून दाखयतां न्ही.' हांवेंय म्हळें.

'तुका ती कापस्ताद ना!' ताणें सांगलें.

म्हाकाय तुजें म्हणणें खरें दिसलें. असोच आनीकय वेळ गेलो. बस तर केन्नाच गेल्ली. आठ वरां जावन गेल्लीं. तूं हट्टाक पेटिल्लें पूण म्हाका मात भिरांत दिसूंक लागली. हांवेंच हार मानपाची थारायली. हांवें तुका येतां म्हूण सांगलें. तूं हांसलें. जैतवंताचो हांसो आशिल्लो तो. हांवें कपडे घाले, आनी भायर सरलों. इतल्यान म्हजी नदर मेजावेल्या चिकवाचेर गेली. हांवें तातूंतले दोन चिकू काडले. एक तुज्या हातांत दिलो आनी एक हांव खावंक लागलों. आनी तुका सांगलें 'चल या!'

तुवें चिकू मेजार दवरलो. हांवे सांगलें तुका - 'चिकू खा मगो तो!'

'म्हाका नाका!' तुवें म्हळें.

आतां मात म्हाका तिडक मारली. मनांत आयलें. तुकाच हट्ट धरूंक कळटा, म्हाका कळना?' हांवें सांगलें -

'तुवें चिकू खालेबगर हांव तुका पावोवपाक येवचों ना!'

'हय, पळोवया कसो येना तो.'

तुजी खात्री आशिल्ली, म्हाका तूं जाता तितले बेगीन रूमावेल्यान गेल्लें जाय म्हूण. पूण हांवूय हट्टाक पेटिल्लों. हांवें बूट काडले आनी खाटीचेर आड पडलों. दोगांय चूप. तूं कदेलार, हांव खाटीर. फकत येतालो मेजावेल्या घड्याळीचो टीक टीक आवाज. पावणे णव वरां जालीं. म्हज्या

मनांत भिरांत, मात भायर हट्ट दाखयतालों. आनी अजाप जातालें तूं इतली रात मेरेन म्हज्या रूमार रावलें कशें. तुका कितें दिसलें कोण जाणा! तुवें चिकू हातांत घेतलो. तूं उठलें. ताजे दोन कुडके केले. एक तोंडांत उडयलो. म्हाका बरें दिसलें. हांव उठूंक वतालों इतल्यांत तुवें चिकूचें दुसरें अर्द म्हज्या तोंडांत कोंबलें. हांव हांसलों. हांसत सुटलों. तुवें रागानूच म्हळें.

'आतां तरी चल, पावय म्हाका!'

आमी भायर सरलीं. हांवें दाराक कुलूप केलें. टॅक्सींत बसलीं. टॅक्सी चलताली. आमी ओंगीच आशिल्लीं.

'तुका रातचें म्हज्या रूमार रावपाक भंय दिसलोना?' हांवें विचारलें.

'विस्वास आसतकर भिरांत दिसना!' तुवें म्हळें.

'आनी विस्वास बुडिल्लो जाल्यार?'

'मनशाली परिक्षा करतां हांव आनी मागीर विस्वास दवरतां!'

'म्हणटकर म्हजी ..... !'

इतल्यान टॅक्सीन ब्रेक लायलो. तुजें घर आयिल्लें. तुवें पर्स उगडली, पयशे दिवपाक.

'पर्स धांप' हांवें सांगले.

'ना.' तुवें म्हळें.

'मार दितलो आं!' हांवें म्हळें.

'जायत तुज्यान?' तुजो आवाज मातसो कडक लागलो.

हांवें एकदम sorry म्हळें आनी तूं हांसत सुटलें. म्हाका मातशी लज जाली.

म्हाका भिरांत दिसताली तुज्या घरच्या मनशांची. हांवें भायल्या भायर वता म्हळें पूण तूं म्हाका घेवनच भितर गेलें. घराक कुलूप आशिल्लें. तुवें पर्सींतल्यान चावी काडली. दार उगडलें. हांव शिटकावलों. घरांत कोण

नाशिल्लीं म्हूण तूं म्हज्या रूमार इतलो वेळ राविल्लें.

निलू, आमची फकत चार वर्सांची वळख. पूण त्या चार वर्सांत तुवें इतलीं करतुपां करून दवरल्यांत, विचारपाचें ना. तुज्या त्या करतुपांचे उगडास कंवचेच्या हारशावरी आज म्हाका सूख दितात.

पूण ह्या हारशाक एक दीस वेर गेली आनी ती वेर म्हाका कळचे आदींच त्या हारशाचे कुडके कुडके जाले. म्हज्या काळजांतले खोशयेचे खीण याद करतां आनी हारशाचे कुडके जोडटां. पूण हारसो जोडून जातकर लेगीत ताजेवेल्यो वेरो आनी खांची कशो ना जातल्यो. ताणीं काळजाक दुःख भोगताच.....

वाडदीस जावन गेलो. ताजे नंतर आमी सदांच मेळत रावलीं. आमचे हें सदांच मेळप आनी वरांचीवरां उलयत रावप चड दीस लिपून उरलेंना. तुज्या बाबाच्या कानार तें पावलेंच.

आनी एक दीस अकस्मात तुजो बाबा म्हज्या रुमार आयलो. ताणें म्हाका सरळ विचारलें - 'निलून आनी तुवें कितें आडायलां?'

म्हजें काळीज धडधडूं लागलें. ताका जाप कशी दिवची हेंच म्हाका कळना जालें. सगळ्या आंगाक शेळो घाम सुटलो. कशेय तरेन हांवें म्हळें - 'आ ऽऽऽ मी, आ ऽऽऽ मी कितें केलां?'

'सारखो उलय मरे! असो कडकट्टा कित्याक?'

'पूण ... पूण तुमी कितें उलयतात समजलें ना म्हाका.'

'तुजो निलूचेर मोग आसा?'

'हय'

'लग्न जावपाक तयार आसा तूं ताजेवांगडा?'

'हय, आमचो तसोच विचार आसा!'

'ताका विचारिल्लें तुवें?'

'ना! पूण असल्यो खबरो विचारलेबगर कळटात!

'होच प्रस्न हांवें ताका विचारलेलो. ताणें जाप कितें दिली जाणां तूं?'

'कितें?'

'म्हाका विकास खूब आवडटा, पूण त्या आवडपाक तुमी मोग म्हणटा जाल्यार म्हजी 'ना' ना. हांवें विचारलें तूं ताजेलागीं लग्न जातलें? ताणें म्हळें,

'ताजे लागीं लग्न जाल्यार म्हाका खोस भोगतली. पुणून तुमकां नाका जाल्यार हांव तसो हट्टय धरचेंना. आवडटा ताचे लागीं लग्न जावंकच जाय अशें म्हाका दिसना.'

'अशें म्हळें निलून.' हांवें अजापान विचारलें.

'ताकाच विचार न्ही तूं?'

'म्हणटकर तुमी कितें थारायलां?'

'चलयेच्या सुखाआड हांव येवचोंना! पुणून तूं तयार आसा मरे? ताणें म्हाका विचारलें. म्हाका तेन्ना खोस जाली. ह्या वगतार म्हजे वरी ह्या संवसारांत सुखी हांवंच. हांवें सांगलें,

'म्हज्या जिविताच्या रथाचें एक चाक आसा निलू.'

'तुज्या आनी ताज्या भितर फरक आसा तो होच! तुजें ताजेबगर जायना आनी तें म्हणटा तुजेबगर अडना.'

'जण एकल्याच्या मनाचेर आसता तें!' निलू, म्हाका तुजो राग आयिल्लो पुणून हांवें बाबाक दाखयलो ना.

' म्हणटकर कितें? फुडल्या म्हयन्यांत थारावंया लग्न?' - बाबा विचारतालो.

'बरें. हांव पयलीं घरा वचून आईक सांगून येतां आनी मागीर

तुमकां कळयतां.'

'केन्ना वता?'

'फुडल्या सप्तकांत.'

'फाल्यांच चल.'

'बरें.' हांवे म्हळें. ताका ताकीत जाल्ली. चल फाल्यां जाल्यार फाल्यां. चार दिसांत कितें जावपाचें आसा?

हांवें जेन्ना ही खबर आईक सांगली तेन्ना तिकाय खोस जाली. पुताचें सुख खंयच्या मोगाळ आवयक नाका जाता ? पुणून आईन म्हाका एकच प्रस्न केलो,

'शालूचें लग्न जावचे पयलींच तूं जातलो?' आनी तो प्रस्न बाणावरी म्हज्या काळजाक वचून तोपलो. खरेलेंच हांवें अजून लेगीत शालूविशीं चिंतलेंच नाशिल्लें. तें म्हजेपरस पिरायेन ल्हान आशिल्लें. हांव ताजेपरस दोनच वर्सांनी व्हड आशिल्लों पूण आमकां तें व्हड भयणीवरीच आशिल्लें. हांव घरा वतकर म्हाका कुसकुटाचो लेगीत वावर करूंक दिनाशिल्लें. बूट पुसपा धरून मुस्तायकी उमळपामेरेन सगळें काम तेंच करतालें. आई एकाद्री दोन तीन दीस घरांत ना जाल्यार आमकां वायट दिसनाशिल्लें, पूण तुका फट दिसतलें निलू, शालू एक दीस लेगीत घरांत ना जाल्यार म्हाका घर लेगीत खांवंक आयिल्लेवरी दिस्तालें. तें म्हाका सदांच म्हणी - 'विकास हो तुजो मोग म्हाका मागीर थोडोच मेळटलो! एक चवथो वांटो मेळ्ळयार हांव म्हजें नशीब समजतां. उरिल्लो आमचे वयनीक मेळटलो.'

मागीर हांवें म्हणचें - 'आमी भांवडां भुरगेपणांत लेगीत एकमेकाचेर मोग करतात! तुजी वयनी मागीर! तिका तुजेपरस सामको थोडोच मेळूंक जाय.'

आनी निलू अशा हे भयणीचो हांवें त्या दीसा आईक लग्नाविशीं

सांगतना विचार केलो ना. भयण वाडिल्ली आसतना भावान लग्न जावंप आईक तरी बरें दिसचेंना हें हांवें चिंतलेंना. तुजे बाबाक सांगून शालूचें लग्न जाय मेरेन आमचें लग्न फुडें धुकलपाचें हांवें थारायलें. हांव तुमगेर आयलों आनी तुज्या बाबाक हांवें सगळें सांगलें. फकत एक वर्स राव म्हूण सांगलें. तो थारपाक तयार जालो ना. ताणें सांगलें - 'एका वर्सान तुजे भयणीचें लग्न जातलेंच कित्यावयल्यान? एकाद्रीं दोन वा चारूय वर्सां लागुये. म्हज्यान रावपाक जायना. निलूचें लग्न करून रोखडेंच म्हाका म्हजे दुसरे चलयेचें लग्न करपाक जाय.'

'निलूचें थारिल्लेंच आसा तेन्ना दुसरे चलयेचें करपाक तुमकां कसलींय आडखळ ना.' हांवे म्हळें.

'हो फुकटचो सल्लो म्हाका नाका. आठ दिसांनी जर म्हाका फाव शी जाप मेळ्ळीना तर निलूचें लग्न दुसऱ्या जाग्यार जातलेंच आनी तेंय बी रोखडेंच.' ताणीं रागानच म्हळें.

हांव उठलों आनी वतां वतां म्हळें - 'निलू तयार जाल्यारच मूं करशात तुमी दुसऱ्या जाग्यार लग्न?'

'बरें, बरें. तें हांव पळोवन घेतां.' हीं तांचीं उतरां म्हज्या कानार पडलीं.

तूं म्हजे बगर दुसऱ्याच्या गळ्यांत माळ घालपाक तयार जावंचेंना हाची म्हाका खात्री आशिल्ली. पूण तुवेंय म्हाका कांयच जाप दिली ना.

मनीस येवजिता एक आनी घडया दुसरेंच. त्या दिसाच्या आयजमेरेन तूं म्हाका मेळ्ळेंना. दोनच म्हयन्यांनी तुजें लग्न जालें. तुज्या बाबान आपलीं उतरां खरीं केलीं. म्हजो तांचेर राग ना. म्हाका तिडक मारली ती तुजी. तूं म्हाका वळखलेंना. तुवें म्हज्या मोगाक मात लेगीत म्हत्व दिलेंना.

तुजेर मोग केलो हांवें निलू ! खरोखरो मोग आशिल्लो तो! हांव म्हजो रावुनाशिल्लों ! हांव कोणाचोच रावूं नाशिल्लों. हांव तुजोच जाल्लों.

ह्या संवसारांत आईविशी म्हजें एक कर्तव्य सोडलें जाल्यार म्हजे तुजेबगर कोण नाशिल्लें ह्या संवसारांत. फकत तूं, तूं आनी तूं! तुवेंच म्हाका हांसूंक शिकयलें आनी तुज्याच हांशाचेर हांव जगूं शकलों. पूण आज ....

आज तो हांसो गेलो. तुज्यावांगडा खोशयेन भोगतालों, ते दीस गेले. उरल्यो त्यो फकत यादी. तुजे ते उगडास तातूंतच सूख मेळटा म्हाका आतां. असलें सूख ज्या सुखांत हांसो ना फकत रडप. दकांबगर रडप. दोळ्यांतल्यान दुकांक भायर येवपाक वाट मेळना.

केन्ना केन्नाय अशें दिसता निलू, तुगेर येवचें, म्हजी सगळी काणी तुका सांगची, तुजे मांडयेर तकली दवरून खूब्ब खूब्ब रडचें. आजमेरेन व्हांवूंक मेळूं नाशिल्ल्या दुकांक वाट करून दिवची. पूण रोखडेंच दिसता नाका! तुगेर वचप नाका! तुगेर गेल्यार तुजीं भुरगीं दिश्टी पडटलीं. तुजो घोव दिश्टी पडटलो. तुवें मांडिल्लो संवसार दिसतलो. आनी तूं .... तांका लागून तूं म्हाका परकी दिसतलें. आजमेरेन काळजांत पुजिल्ली तुजी मूर्त भंगतली.

तुज्या लग्नाउपरांत एकाच वर्सान शालूचें लग्न जालें. रोखडेंच स म्हयन्यांनी धाकल्या भावाचो उदयाचो संवसार मांडून दिलो. आई म्हाका संवसार मांडपाक सांगून सांगून उबगली आनी तीय हो संसार सोडून गेली. आनी हांव .....

तुजी वाट पळंव लागलों, तुका चिटयो बरोवन लासूं लागलों. हांव जाणां हीय चीट तुका मेळचीना. तीय आतां उज्याच्या पोटांत वचपा आसा.

***********

- जल्म ३ डिसेंबर १९४०, मडकय.

- शिक्षणीक क्षेत्रांत ३७ वर्सां शिक्षक म्हूण काम केलां.

- 'म्हजी भूंय म्हजो मोग', 'अशोकांकी', 'कोण कोणाचो न्ही' हे एकांकी संग्रह, 'सूर्यपूत सुभाष' हें भुरग्यांखातीर पुस्तक आनी 'बंदरखणीचीं देवळां जालीं' हें दोन अंकी नाटक, उजवाडा आयल्यांत तर 'आमोरी अमुरपिकी' हें दोन अंकी नाटक उजवाडा येवपाचें आसा.

- 'कोण कोणाचो न्ही' ह्या एकांकी संग्रहाक कला अकादमीचो आनी कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्यिक पुरस्कार फावो जाला.

- कला अकादमीच्या अखिल गोंय महाविद्यालयीन सर्तींत 'कोण कोणाचो न्ही' हे एकांकीक पयलें इनाम फावो जालां.

- कला अकादमीच्या अखिल गोंय विद्यालयीन सर्तींत 'उमाळो', 'इत्सापूर्ती', 'मायेची भूक' आनी 'हो तर खेळ सैमाचो' ह्या एकांकिकांक पयलीं इनामां फावो जाल्यांत.

- हिंदींतूय लेखन केलां. गोवा हिंदी विद्यापिठाचे एकांकी सर्तींत 'भाँवर' आनी 'उत्सर्ग' ह्या एकांकिकांक पयलीं इनामां फावो जाल्यांत.

- राज्य शिक्षण संस्थेच्या पाठ्यक्रम मंडळाचेर वांगडी म्हूण काम केलां.

- टी. वी. सिरीयल ' कोण कोणचो ? ' पूर्णतायेचे वाटेर.